भुरग्यांची कादंबरी

# खेळ जालो वेळ

## विन्सी क्वाद्रूस

2014



‘स्नौज प्रकाशन
आर्लें - राय,



**खेळ जालो वेळ**
भुरग्यांची कादंबरी

**विन्सी क्वाड्रूस**
'स्नौज कृपा',
आर्लें - राय,
सालसेत - गोंय,
मोबा: 9822587498

**पयली आवृती** : 2014

**प्रकाशक :**
स्नौज प्रकाशन
आर्लें - राय, गोंय
सालसेत गोंय

**कवर आनी भितरलीं चित्रां:**
लिलिया लुईस

**छापपी :**
लोकमान्य प्रोसेस
खोर्ली, तिसवाडी-गोवा

**मोल** : 100 रुपया

**KHELL zalo VELL**
Children's Novel

**Vincy Quadros**
"Snows Krupa",
Arlem, P. O. Raia,
Salcete, Goa – 403 720
Mob: 9822587498

**First Edition : 2014**

Publisher :
Snows Prokasxon
Arlem Rai,
Salcete, Goa

**Cover & inside pictures**
Lilia Louis

**Printers :**
Lokmanya Process
Corlim, Tiswadi-Goa

**Price :** Rs. 100/-



*************

This book is printed under the Scheme to provide
**'Financial Assistance to Goan Writers'**
of the Department of Art & Culture, Government of Goa.

# अर्पण

आमचे शेणत गेल्ले पारंपारीक खेळ जशे  कोयबा, रिंगांनी, आट्यांनी, बियांनी, आपालिपा, लोगोऱ्यो आदी फुडले पिळगे मेरेन सुगूर उरच्या मनान आनी भुरग्यांक असल्या उक्त्या खेळांतल्यान खुशालकाय मेळच्या मनान, तांचें चित्रण हे कादंबरींतल्यान करपाचो यत्न केला.

ही कादंबरी हांव आयच्या आधुनीक भुरग्यांक अर्पितां जांकां असले खेळ आसले म्हण एक दीस खबर लेगीत आसची ना.

---विन्सी क्वाद्रूस

# नुवेंचो गांव

नुवें हो साश्टींतलो, दाट लोकवस्ती आशिल्लो व्हडलो गांव. तो मडगांव शारा पासून तीन-चार मैलांचेर पयस आसा. पाचव्याचार शेतां-भाटांनी, हिरव्यागार झाडां-पेडांनी मळबाक तेंकपी माडांनी, ल्हान-व्हड दोंगुल्ल्यांनी तशेंच शितळ उदका झऱ्यांनी हो गांव भरिल्लो आसा. अशा ह्या गांवांत एक फामाद इगर्ज आसा. तिका भोव पुर्विल्लो इतिहास आसा.



१६९५ ह्या वर्साक रैमाचे गिरेस्तकायेन भरिल्ल्या ह्या गांवांत दॉना तेल्मा क्लारिसा द कॉस्ता लॉरेन्सो ह्या भाटकाराल्या घराण्यान एक सोबीत आनी कलेन भरिल्लें कपेल बांदलें. तें खाजगी कपेल आसलें. तें तांणी जेजू मारिया आनी जुजे ह्या पवित्र घराब्याक भेटयल्लें. लागशिल्ले आनी पयशिल्ले नुवेंचे भावार्थी ह्या कपेलांत देवाक भजूंक येवंक लागले.

वर्सां बलांडलीं आनी नुवेंची लोकसंख्या वाडत गेली, तशेच भावार्थी. हेच खाती भाटकाराले परवानगेन आनी तांच्या बऱ्या मनान, धार्मिक वडिलांनी ह्या भावार्थ्यांक दैवीक सेवा दिवंक १९०३ वर्सा ह्या कपेलाचो दर्जो वाडोवन ताचें इगर्जेंत रूपांतर केलें. वास्तू वाडली आनी आयज जशी ती दिसता तशी जाली. हे इगर्जेचें खाशेलेपण म्हणल्यार थंय वर्साक एकूच फेस्त जाता. गांवचे सगळे लोक एकठांय जावन व्हडा घणघणान आनी ओर्गान तें फेस्त मनयतात. त्या फेस्ताक थोडे मांय दोस पोब्रीस सायबीणीचें फेस्तूय म्हणटात. ताची आनीक एक दंत-कथा आसा. कथा कितेंय आसूं, गांवचें वर्सावळीचें पारंपारीक फेस्त जाल्ल्यान पुराय गांवच्या लोकांक त्या फेस्ताचो अभिमान आसा. सगळ्या सोयऱ्यांक आमंत्रण आसता. आनी तितल्याच मोगान सोयरीं नुवेंकारांगेर फेस्ताक वतात. मागीर उमेदीन आनी खुशालकायेन सगळीं गर्दी करून फेस्ताक वांटेकार जातात.

हेंच तें नुवेंचें फेस्त आयज आसलें. जेजू मारिया जुजे इगर्जे कडेन सकाळच्यान लोकांच्यो उरपंजी आसल्यो. पांच वरां वयल्या, पयल्या मिसान फेस्ताची सुरवात जाल्ली. इगर्जेची घांट तितल्याच आनंदान परगटणी करताली. इगर्जेक व्हंकल कशी न्हेसयल्ली आसली. तिचे भोंवतणीं मिसाक येवपी लोकांची आनी फेरीकारां बराबर फेरयेंत भोंवप्यांची भोवूच गर्दी सुरू जाल्ली. इगर्जे फुडल्यान मुखेल रस्तो आशिल्ल्यान येवप्यां-वचप्यां खातीर मोटारींची सोय जावंचे खातीर येरादारी पुलीस आदाराक आसले. ल्हान-व्हडले, दादले-बायलो, भुरगीं-बाळां बरें-बरें न्हेसून इगर्जे कडेन येवपा-वचपाक सुरू जाल्लीं.



# मिसाक वचपाची तयारी

योहन हो इकरा-बारा वर्सांचो भुरगो. आयज फेस्ताक लागून बरोच खुशाल आसलो. दिवाळेक पडिल्ली शाळेची सुटी आजून सोंपूंक नासली. हे फावट फेस्त बेगीन आयिल्लें वा परिक्षा उसरां सोंपिल्ल्यो तें तो नकळो आसलो. पूण सदां भशेन फेस्ताच्या दुसऱ्या दिसाक शाळा सुरू जावंची ना म्हण तो उमेदीर आसलो. फेस्ताची फेरी ८ ते १० दीस थंय उरपाची आसली.

'योहन बेगीन तयार जा आनी मिसाक वचून यो.' योहनाचे आवयन योहनाक सांगलें.

योहन आजून दांत घांशीत आसलो. घरांतलें काम बेगीन आटापूंक जाय म्हण ती पांच वरांच्या मिसाक वचून आयिल्ली. 'डॅडीन काल नवे कपडे हाडून दवरल्यात ते घालून वच. वतना मेजार वीस रूपया दवरिल्ले आसात ते व्हर. तांतुंतले धा रूपया देवाक घाल आनी धा रूपया घेवन फेरयेंत वच. मस्तेपणां करशी थंय?' आपल्या हातांत आशिल्ली चण्या पुडी आनी काडयो-बडयो मेजार दवरीत तिणें योहनाक चत्राय दिली.

योहनान बेगीबेगीन नवे कपडे घाले आनी मेजा वयले वीस रूपया काडून आपल्या बॉल्सांत धोमशिले.



'मिसाचो वेळ जालो गे मम्मी?' योहनान बुटांच्यो लेसी बांदताना विचारलें.

'तूं जाणटेलो तयार जावन इगर्जे कडेन पावता म्हणल्यार मीस अर्दें जातलें दिसत म्हाका. घे ही च्या पिये आनी भायर सर.' तिणें ताचे मुखार च्या दवरली. काल केल्लीं कोपऱ्यांतल दोन सान्नां दिलीं.

'हांव तयार जालों. आनी डॅडी मिसाक वचून आयलो?' सान्नां खातां-खातां ताण विचारलें.

'ना. तो फेस्ताच्या मिसाक वतलो.' ती कुजनांतल्या कामाक लागली. च्या पियेव जातकूच योहनान परत एक फावट आपले कपडे सारके केले. घरांतले व्हडले घडयाळीचेर पाव सात वरां जाल्लीं. तो इगर्जे शेजारच्या पोवासांव वाड्यांत रावतालो. थंयच्यान इगर्जे कडेन चलू वचूंक पांच मिनटां पासून चड आसलीं. तरी तो भायर सरलो.

वतां-वतां योहनाक वाड्या वयले भुरगे मेळ्ळे. तांचे कडेन गजाली करीत तो चलूंक लागलो. सगळे भुरगे मीस सुरू जावपाक इगर्जेच्या माटवांत पावले. आवयचीं उतरां खरीं जालीं फोगेटी-खोजन्यांनी योहनाचे कान वाजले.



# फेस्ताचे फेरयेंत

मीस सोंपले उपरांत योहन सरळ फेरयेंत गेलो. देवाक घालूंक दिल्ले पयशे ताणें देवाक घालूंक नासले. 'कलेक्शन ट्रे भरून आसा. देवाक म्हजे आनीक कित्याक जाय?' अशा विचारांत हातांत काडिल्ले धा रूपया ताणें परत बॉल्सांत घाल्ले. देखून ताचे कडेन धा बदला वीस रूपया आसले. धा रूपयांचीं रिंगां गेम खेळून शितपेयाची व्हडली बाटली काडूंक तो येवजून आसलो. थंय नशीब फुटूंक ना, जाल्यार उरिल्ले धा रूपया घेवन ताणें बाटल्यो गरोवंक वचूंक चिंतिल्लें.

फेरयेंतल्या लोकांचे गर्दींतल्यान वाट काडीत तो रिंगां उडोवपाचो मांड सोदूंक लागलो. वतना एका खाजेंवाल्याच्यो दोन काडयो काडल्यो.

'आरे कितें करता? काडयो चोरता?' खाजेंवाल्यान बोवाळ मारलो. योहन थंयच्यान नाच्च जालो.

त्यो काडयो ताणें तोंडांत उडयल्यो आनी मातशी पयस आशिल्ले एके चणेकान्नी फुडल्यान थांबलो.

'येयात बाबा, गरम-गरम चणे व्हरात.' चणेकान्न गिरायकांक आपयताली.

'कशे दिल्यात चणे?' चण्यांक एक बकास मारीत योहनान विचारलें.

'व्हर रे बाबा, साठ रुपयांनी पोड. कितले घालूं?'

'येतां हांव पयशे घेवन.' बकासांत आयिल्ले चणे चाबडायत तो मुखार गेलो.

इगर्जे कडल्या मैदानार फेरी चिक्कार भरिल्ली. कपड्यांचे कितलेच मांड आसले. मातयेचीं आयदनां, तांब्याचीं आयदनां, आलुमिनाचीं आयदनां, पेन्नेंकारां, खाजेंकारां आनी चणेकारां आसलीं.

मर्दीच आयसफ्रुटवाले आपली सायकल घेवन घुस्पताले. चौरीस-पांववाल्यांचो बोवाळ आयकूंक येतालो. कोण-कोण हावजी खेळूंक बोवाळ मारताले. इगर्जेचे फाटले वटेन मदेर भरिल्लें. थंयसरूय बरीच गर्दी आसली. पूण योहनाचें लक्ष रिंगां मांडा शिवाय आनीक कित्याचेरूच

नासलें. केन्ना काय ताका रिंगां मांडाकडेन पावूं अशें जाल्लें. रस्त्याचे कुशीक उसाचो रस विक
आशिल्ले. तांकां तेंकून गाडे घेवन आयसक्रीमवाले आसले. तांचेर लेगीत ताणें लक्ष दिलें ना.

मर्दीच ताची नदर पयस आशिल्ल्या जायन्ट व्हिलाचेर गेली. कितलींच भुरगीं ताचे बसून घुंवतालीं आनी बोवाळ मारतालीं. थोडीं रडटात अशीं दिसतालीं,

'बसून पळोवंया ताचेर?' योहनाच्या मनांत ओगीच एक विचार आयलो. 'नाका नाका घरांत कोणाकूच सांगूंक ना. बेश्ट्योच तापसाणी खावंच्यो पडटल्यो.' ताणे आपणाकू समजायलो. कित्याक ताका शाळेंत एका भुरग्यान सांगिल्लें जायन्ट व्हिलाचेर बसून आपल्या मेल्ल्या सारकें जाल्लें म्हण. तो परतून एक फावट रिंगां मांड सोदूंक लागलो.

'सॅनसिनी, चल या मरे रिंगांनी खेळूंक?' फेरयेंत ताचो इश्ट ताका मेळ्ळो. तो मिस उपरांत मम्मी कडल्यान पयशे घेवन सरळ फेरयेंत भोंवपाक लागिल्लो. तो ताच्याच वया वयलो आनी वाड्यार ते एकाच बराबर खेळपी.

'हांव येतां पूण रिंगांनी खेळपाचों ना. रिंगांनी तुका कितेंय लागलें जाल्यार म्हाकाय दितलो मरे?' सॅनसिनीन ताचीं फकाणां केलीं.

'हय रे, म्हाका शितपेयाची व्हडली बाटली काडूंक जाय. जायते दीस जाले. हांव थंड पियेवंकूच ना.'

'हो पळय, लागींच रिंगांचो मांड आसा.' सॅनसिनीन ताका रिंगांचो मांड दाखयलो.

'म्हाका धा रूपयांचीं रिंगां दी रे.' त्या रिंगां मांडार थांबून योहनान शितपेय काडपाच्य हावेसान रिंगां मागलीं.

'घे. धा रुपयांक चार,' रिंगां दिवंक आशिल्ल्या ताच्याच वया वयल्या सोहनान ताका चार रिंगां दिलीं आनी ताचे कडल्यान धा रुपया घेतले.

'नसीब की बात, ट्राय करो.' सोहनान योहनाक शुभेस्ता दिल्यो.

'पळय, रिंगां उडयतां.' योहनान पयलें रींग उडयताना सांगलें.

'धा रुपयांक चार, धा रुपयांक चार...' सोहन आनी ताचो सांगाती दुसरें गिरायक हाडूंक



बोवाळ करीत आसले. रिंगां तांच्या हाताकूच घाल्लीं आसलीं. योहनाचीं दोन रिंगां फुकट गेलीं.

'सारकीं उडय रे योहन, कितेंय मेळ्ळ्यार आमकां हाड.' ते वटेन पासार जावपी ताच्या वाड्या वयल्या जॅनीफान सांगलें. योहनान तिसरें रींग उडयलें. तें दोन लिटराचे पॅप्सी बाटलेच्या गळ्याक शिरकत-शिरकत सकयल देंवलें. योहन खुशाल जालो.

'आरे, हेय... पडलेंऽऽऽ पडलें. हाड ती बाटली. दी.' योहनान खुशालकायेन बोवाळ मारलो.

'खंय पडलां रे रींग? हो मुळाक दवरला त्या चौकणाक पडूंक जाय तें.' सोहनान योहनाक सांगलें.

'हो कायदो तुवें आमकां आदीं सांगूंक जाय आसलो न्हय?'

'तूं पयलेच फावट रिंगां खेळूंक आयला दिसता. रिंगां काबार जालीं जाल्यार ला वाटेक. धा रुपयांक चार, धा रुपयांक चार.' सोहनान योहनाक तापयलो आनी गिरायका वटे लक्ष केंद्रीत केलें. ते बाटलेचें रींग काडून ताणें आपल्या हाताक घालें.

'हे भुरग्या, तूं म्हाका एकूच सांग. तूं म्हजी बाटली दिता काय ना?' योहनाकूय मातस राग आयलो.

'तुजें रींग सारकें पडनासताना तुका बाटली कशी दिवपाची?' सोहनान विचारलें.

'पळय रे सॅनसिनी, म्हजें रींग बाटलेक पडूंक नासलें?' उबो रावून रिंगां उडयतल्यांव पळयत आशिल्ल्या सॅनसिनीचें लक्ष आपले वटेन ओडलें.

'ताकाच लागून हांव ते भानगडींत पडना. म्हाकाय खूब उमेद आसा रिंगां उडोवपाची पूण हे अशे फटयतात म्हण हांवें रिंगां उडोवपाचेंच सोडून दिलां. गेल्ल्या वर्साक हांव उणेंच पांच कडेन रिंगांनी खेळ्ळों आनी शंभर रूपया तरी काबार केले. तुजे भशेन म्हाकाय शितपेय काडूंक जाय आसलें.' सॅनसिनीन ताका आपली काणी सांगली. योहनान चौथें रींग रागान बाटलेचे मारलें. बाटली सकयल पडली. ते बाटले बराबर आनीक कितल्योच वस्तू सकयल पडल्यो. एक रागिश्ट नदर सोहनाचेर घालून तो वळ्ळो.

तितल्याक एक भुरगो फेरयेंतल्यान लोकांक धुकलीत धांवत आयलो आनी योहनाच्य हातांत एक पोती दिली. ताचे कपडे तशे निवळ नासले. हाचो अर्थ तो फेस्ताक येवंक नासलो.

'कितें रे हें?' सोहनान अजाप जावन विचारलें.

'तूं घरा घेवन वच. हांव तुका मेळटां.' म्हणीत तो परतून धांवूंक लागलो. थोड्या वेळान दोन-तीन हवालदार पुलीस ताचे फाटल्यान धांवूंक लागले. सोहन पळोवंकूच उरलो. तो भुरगे आनी ते पुलीस फेरयेंतले गर्देंत नाच्च जाले. योहनान ल्हवूच पोतयेंत नदर मारली. तांतूं कितलेच पयशे आसले.

'कोण रे तो योंहन? हो भुरगो थंय गडगडो मारतालो तोच दिसता म्हाका. हांव ते वटेन गेल्लों तेन्ना ताका हांवें पळयल्लो. तूं वळखता ताका?' सॅनसिनीन विचारलें.

'हांवें ताका वळखूंक ना.'

'कितें आसा पोतयेंत? पयशे बी नात मरे?' सॅनसिनीन पोतयेर नदर घालीत प्रस्न केलो.

'आसूं ते पोतयेंत कितेंय, येतलो म्हाका सोदीत. हांव घरा व्हरून दवरतां.' योहनान सॅनसिनीक सुलूस लागूंक दिली ना. तो एके वटेन भियेल्लो. ती पोती पळोवन पुलिसांनी ताकाच धरिल्लो जाल्यार? ताणें चोंय वटेन नदर फिरयली.

'बरें सॅनसिनी, ताची पोती दवरून हांव परतून येतां. बाबडो त्रासांत पडला दिसता. म्हजे कडेन आनीक धा रूपया आसात. परतून आयलों म्हणटकूच ते घेवन आमी बाटल्यो गरोवंक या.' सॅनसिनी कडल्यान कसलीच अपेक्षा करिनासताना योहन फेरयेंतल्यान वाट काडीत आपल्या घरा दिकेन नेटान चलूंक लागलो.



# कोयबा

भुरग्यांनी फेस्ताचे फेरयेची बरी मजा लुटली. योहन मात परत फेरयेंत पावलो ना. घड
पोतयेंतल्या पयशांनी ताचेर कांपेरो हाडिल्लो. आवय कडल्यानूय तापसाणी पडिल्ल्यो. त
सांज जाता म्हणल्यार मातसो विसरलो. राती कडेन सॅनसिनीच्या आग्र्यान फेस्ताच्या नांवा
जाल्ल्या प्रिन्स जेकोबाच्या तियात्राक मात वचून आयलो. तेन्ना घरा परततना योहन आन
सॅनसिनीन गड्ड्यांनी म्हणल्यार कोयबा खेळपाची मांडणी केल्ली.

दुसऱ्या दिसा योहन आनी सॅनसिनी गड्डे घेवन आयले. घरा शेजराक आशिल्ले वणटीव
तेंकून आर्दीच एक चिरो लायिल्लो आसलो. ताचे मुखार एके बडयेन लायणी मारून कोयबाच
मांड काडलो आनी एक गड्डो घेवन, आशिल्ल्या मिलांत दवरून तो पांयान चेपलो आनी मातस
हालयलो. मील सारकें दिसूंक लागलें. तांणी खेळपाची तयारी केली.

'हांव पयलीं खेळटां.' म्हणीत योहनान दोन गड्डे उडयले. दोनूय सारके लायणी भित
पडले.

'खंयचो मोखूं?' योहनान मोखपाची तयारी करीत विचारलें.

'दावे वटेनचो मोख.' सॅनसिनीन सांगलें. योहनान हातांत आशिल्लो गड्डो दावे वटेनच्य
गड्ड्याक मोखपाचो यत्न केलो पूण तीर सारको जावंक ना. ताचो डाव गेलो. मागीर सॅनसिनीन
आपल्या हातांत गड्डे घेतले आनी उडयले.

'कोयबा.' सॅनसिनीन म्हणलें.

'कोयबा खंयची? बोटां लावन दाखय.' योहनान गड्ड्यांक पळयत सांगलें. सॅनसिनी
आयलो आनी दोनूय गड्ड्यां मदीं आपलीं चार बोटां घालीं. बोटां घालून अंतर उरूंक लागलें
देखून कोयबा जायना. कोयबा जाल्यार आपल्याक जाय त्या गड्ड्याक मोखूंक मेळटा.

'मिलाक तेंकून आसा तो मोख.'

सॅनसिनीन गड्ड्याक मोखचे बदला सायडीन मोखलो. कित्याक दुसरो गड्डो सारको



ताचे वयर आसलो. मिलांत पडपाचीय शक्यताय आसली. योहनान गड्डे उडयले. एक गड्डो लायनीचे भायर पडलो. सॅनसिनीन तो काडलो आनी सारको कोनशार दवरलो आनी मोखूंक सांगलें. योहनानूय गड्ड्याक मोखचे बदला सायडीन मोखलो.

मातसो वेळ जाल्लो, काल योहना कडेन पोती दिल्लो तो भुरगो तांकां पळयतालो.

'तुमकां मोखूंक पासून कळना मरे. हांव एक डाव खेळून दाखोवं?' मुखार येत ताणें विचारलें.

'तुजें नांव कितें रे?' योहनान ताचे कडेन विचारलें.

'म्हजें नांव मोहन.' ताणें आपलें नांव सांगलें.

'हांव योहन आनी हो म्हजो इश्ट सॅनसिनी.' योहनान आपली दोगांयची वळख करून दिली.

'दी ते गड्डे म्हजे कडेन दी.' ताणें गड्डे मागतांच योहनान ते ताचे कडेन दिले. योहनान दोन गड्डे उडयले. दोनूय गड्डे दोन कडेन पडले.

'सांगात खंयचो मोखूं?' तीर करीत मोहनान विचारलें.

'लायनीक तेंकून आसा तो मोख.' सॅनसिनीन सांगलें.

ताणें नेटान हातांतलो गड्डो शेवटिलो. तो सारको लायनीक तेंकून आशिल्ल्या गड्ड्याचेर पडून 'टाSSSS' करून आवाज जालो. ते दोगूय अजाप जाले.

'हे तरेन मोखतात. आनीक एक डाव खेळटां.' ताणें परतून एक फावट गड्डे हातांत घेतले आनी दोन गड्डे मांडार उडयले. एक मिलांत पडलो आनी दुसरो ताचे सायडीन. एक मिलांत पडलो जाल्यार खंयचो मोखूंक जाय तें सांगपाची गरज उरना. ताणें वयर आशिल्ल्या गड्ड्याक मोखलो आनी दोबराद गूण घेतले.

'आतां सांगात, म्हजे कडेन पैज लावून खेळूंक आसात?' मोहनान विचारलें.

'ना रे बाबा. तुजे कडेन आनीक पैज लावपाची?' योहनान भिरांत दाखयली.

'पैज लायनासताना खेळ्ळ्यार मजा आसता? पैज लावन खेळूंक जाय. खेळूंक उमेद येता.' मोहनान सांगलें. 'बरें, म्हजी पोती दिता मरे?' ताणें योहनाक विचारलें.

'घरा कडेन आसा. चल या, दितां.' योहन ताका आपल्या घरा दिकेन घेवन गेलो. सॅनसिनी ताचे फाटोफाट चलूंक लागलो.

'पयशे आसात मरे तांतूंत. म्हाका पयलीं भिरांत दिसली. हांवें बेगी-बेगीन हाडून मम्मी कडेन दिली. परतून म्हाका फेरयेंत लेगीत वचूंक दिसलें ना.' योहनान आपली भिरांत ताचे मुखार मांडली.

'कांय ना रे भियेवपाचें. असो भियेल्यार मुखार कसो सरतलो? डॅरींग आसूंक जाय. तेन्नाच कितें तरी करूंक पावतलो.' मोहनान आपले हात टायट करीत सांगलें.

'म्हजे कडेन पयशे दिवंक तुका कशें मन आयलें? आनी हांव हांगाचोच म्हण तुका कशें कळ्ळें?'

योहन ताचें काळजीदारपण पळोवन अजाप जालो. सॅनसिनी मोहनाची गजाल बारीकसाणीन आयकतालो.

'एक दीस हांव म्हज्या इश्टाच्या मामागेर आयिल्लों. हे थंय सकयल ताचें घर. तेन्ना हांवें तुका पळयल्लो. काल हांव धांवताना तूं म्हजे नदरेक पडलो म्हण बरें जालें. ना जाल्यार सगळे पयशे वता आसले. पुलिसांनी म्हाका धरलोच पूण म्हजे कडेन कांयच ना म्हण सोडून दिलो. पयशे आशिल्ले जाल्यार हांव सोमतोच....'

मोहनान कालची गजाल सांगली.



# नवी वळख

'मम्मी, पळय आमगेर नवो इश्ट आयला.' घरांत भितर सरतांच योहनान आवयक सांगलें. 'हो मोहन काल फेरयेंत पोती दिल्लो तो.'

'खंयचो रे तूं बाबा?' योहनाचे आवयन विचारलें.

'माजोड्डेचो.' मोहनान जाप दिली.

'हे पयशे खंयचे रे?' ताची पयशांची पोती दाखयत तिणें विचारलें.

'म्हज्या बाबाचे ते.' मोहनान सांगलें.

'कितें करता तुजो बाबा?' ती मोहनाची बारकाय घेवंक लागली.

' फेस्ताक गडगडो मारता.' मोहनान सहज सांगलें आनी मान सकयल घाली.

'लज दिसपा सारकी गजाल ही. आनी तूं ताचे बराबर गडगडो मारता मरे?' ती मातशी तापली.

'म्हाका खंय कळटा गडगडो मारूंक? हांव ताची पोती धरूंक आसतां.'

'बरें न्हय हो गडगडो म्हणल्यार......शाळेक वचना?'

'वतां पूण....' मोहनान आपली मान अदिकूच सकयल घाली.

'घरांत आनीक कोण-कोण आसात?'

'हांव, म्हजी आवय, बाबा, व्हडलो भाव आनी धाकटी भयण.'

'भाव आनी भयण कितें करतात?'

'भाव मडगांव एके गॅरेजींत वता गाडयो सारक्यो करपाक आनी भयण बेताळभाटी शाळेंत वता. आवय घरा आसता जाल्यार बाबा मिनाचो ट्रक चलयता.' मोहनान घरची म्हायती दिली.

'मागीर हो गडगडो केन्ना तर?'

'केन्नाय. फेस्त, जात्रा बी आसता तेन्नाच.'

'तूं कित्याक ताचे बराबर वता? शिकूंक जायना तुका?'

'तो म्हाका पयशे दिता आपले बराबर आयल्यार.'

'तूं पयशांक लागून ताचे बराबर वता? आनी पुलिसांनी धरून व्हेल्यार?'

'एक फावट व्हेल्लो. दोन तीन थापटां खावंचीं पडलीं. भुरगो म्हण सोडून दिलो.'

'बरें न्हय असल्या खेळांत घुसपून रावप. शिकून बरो मनीस जा मरे?' तिणें ताच्या फुडाराचो सल्लो दिलो.

'तुमचे सारकें घर ना आमकां. बाबा आठ दिसांनी एक फावट घरा येता. सांवड्ढें वचूंक पडटा ताका. आमी मूळ वाळपयचीं. बाबाचे नोकरेक लागून आमकां हांगा थंय वचचें पडटा. देखून शाळेचेर सारकें लक्ष ना. हरशीं तो फातर घालपाचो ट्रक चलयतालो. हालींच बरो पगार दितां म्हण एकल्यान सांवड्ड्या व्हेला. आनी थंयच आपल्या एका इश्टागेर रावता.'



'घे. ही तुजी पोती दिता आसताना, म्हज्या पुताक धरून व्हेल्लो जाल्यार तूं कि
करपाचो? तुजे बराबर ताकाय मार पडपाचो मरे?' तिणें आपल्या पुता विशीं चिंता दाखयली.

पयशांचे पोतयेन सॅनसिनीक घुसपावन उडयल्लो.

योहनान ताका हे विशीं कांयच सांगूंक नासलें. तो समजतालो घरा कडेन ताका कित्य
खातीर तरी तापसाणी पडल्यात देखून तो बेजार आसा म्हण.

'आंटी, जावंक नात त्यो गजाली कित्याक उलोवंया? ते पुलिसूच येवंक नासल
जाल्यार आमी आनीक कितले पयशे जोडटले आसले. पावस पडिल्लो जाल्यार फेरीकार देवाक
दुशण दितले आसले....... असल्यो गजाली उलोवन अर्थ आसा?' ताणें आपली पोती सुगू
आसा जाल्यार तपाशीत दोन शाणेपणां सांगलीं.

'बरोच हुशार मरे तूं उलोवंक. चल आतां बरो करून. आनी ती पोती बाबा कडेन सारकी
दी.'

'तुमकां देव बरें करूं.' मोहनान पोतयेक घट्ट धरून योहनाच्या खांद्यार हात घालून
चलूंक लागलो. योहन आमच्या गांवांत कोयबाचो टुर्नमिन्ट जावपाचो आसा. भाग घेवंक येत
जाल्यार सांग. हांव नांव बरयतां.' मोहनान चलतां-चलतां सांगलें.

'पूण इतले पयस...कितें म्हणटा सॅनसिनी?' योहन अनमनलो.

सॅनसिनीन तोंड मातशें वांकडें केलें.

'कितें जालें सॅनसिनी?' मोहनान ताका विचारलें. 'तुकाय पोतये विशीं हुसको मरे...
सोडून दी तें. कितें भियेतात रे तुमी? मुखार कशे सरतले? शाळेचो खेळ आसल्यार वचनात
तुमी?' मोहनान आपले पोतये वयलें लक्ष दुसरे कडेन व्हरत तांकां धीर दिवपाचो यत्न केलो.

'या रे आमी. कितें जाता तें मागीर पळोवंया.' सॅनसिनी फुल्लो.

'यह, हुई ना बात!' मोहनान ताळी पेटली.

# माजोड्डेचो गांव

दीस आयतार आसलो. योहन सात वरांच्या मिसाक वचून आयलो. च्या बी पियेलो आनी खेळूंक वचूंक तयार जालो. योहनान आपली सायकल काडली आनी भायर सरलो.

'आरे खंय वता?' योहनाचे आवयन ताका हटकिलो.

'हांव आनी सॅनसिनी माजोड्ड्या कोयबा खेळूंक वतात.' योहनान सरळ सांगले.

'इतले पयस कोयबा खेळूंक?'

'पयस खंय गे? तो मोहन आसतलो थंय. ताणेंच आपयल्यात आमकां. दनपार म्हणल्यार येतले.'

'बरे करून येयात.' तिणें ताका परवानगी दिली.

सॅनसिनी योहनाची वाट पळयत कपेला कडेन बसून आसलो.

'म्हाका दिसलें तुजी मम्मी दांडो मारता म्हण.' योहनान आपली खबर सांगली तेन्ना सॅनसिनीन प्रतिक्रिया उक्तायली.

'तशी बरी रे मम्मी म्हजी, मस्तेपणां करतां तेन्ना मात मार घालता.' योहनान सांगलें.

अश्यो आपल्या गजालीं बराबर सायकलीन वतना ते माड आनी शेतां तोखेत वचूंक लागले. मर्दीच लागता तो व्हाळ भरून व्हांवतालो. शेतांची कापणी जाल्ली. थोडे वांयगण रोवपाची तयारी करताले. शेतांचो वाठार सोंपतकूच लोकवस्ती वाठार आयलो. पोरणीं नवीं घरां पळयत, ते रोखडेच माजोड्ड्या पावले. थंय एक म्हालगाडी थांबून आसली. तिका ते पळोवन खुशाल जाले. मातसो वेळ थंयच रावून तिचे डबे मेजूंक लागले. पूण ती अर्दीच दिसताली.

'कितली लांब आसा ती?' तांणी मनांतूच म्हणलें. तितल्यांत 'पोंSSSS' करून आनीक एके रेल्वेन होर्न वाजयलो आनी खीणा भितर 'गड-गड, गड-गड' करीत पासार जाली.

'कितलें बरें रे हांगा? मुखार दर्या आसा खंय न्हय?' सॅनसिनी उदगारलो.

'हय, जायते भोंवडेकार बी येतात हांगा.'

अशे तरेन माजोड्डेच्या सैमाचे गूण गायत बाजारांतल्यान सरून ते इगर्जे कडेन पावले थंय जायते भुरगे एकठांय जाल्ले आसले. एका जाग्यार कोयबा खेळूंक मांड तयार केल्ले ताका तेंकुनूच ल्हानसो माटोव घाल्लो. तांतूंत चार-पांच कदेलां घाल्लीं. तांचे वयर एक कोयबा टुर्नामिन्टाचो बॅनर लायिल्लो. लावडस्पीकराचेर लॉरी त्रावासोचीं कांतारां वाजतालीं.

धा वरां जालीं आनी निवेदकान मायक आपल्या हातांत घेतलो.

'जे कोण कोयबा खेळूंक भाग घेतात तांणी विठ्ठला कडेन आप-आपलीं नांवां दिवंचीं आनी धा रुपया फी भरची.' निवेदकान घोशणा केली.

'आरे, हांवें पयशे खंय हाडल्यात?' योहनान आपल्या बॉल्साक हात लायत म्हणलें. 'तो मोहन खंय पावलो. पाड पडिल्लो. आमकां आपयता आनी...'

'आयच्या दिसाक 'जिवीत' म्हयनाळ्याचो प्रकाशक श्री मायकल ग्रेशियस मुखेल सोयरो म्हण हांगा आसा. जाल्यार आमकां डोनेशन दिवपी कंत्राटदार आनी समाज वावुरपी श्री रॉकसन फेर्नांडीस मानाचो सोयरो म्हण आसा. तांकां ताळयो मारून येवकार दिवंया. आनी तांचे कडेन मागतां तांणी मानाची बसका घेवंक...' निवेदकाची घोशणा चालू आसतानाच मोहन आयलो.

'तुमची फी हांवें भरली हां...' मोहनान तांकां सांगलें.

'आमकां दिसलें आतां परतून वचूंक पडटा.' सॅनसिनीन सुशेगाद जावन म्हणलें.

'छे! हो म्हजो गांव. तुमी म्हजे सोयरे. चलात, टुर्नामिन्ट सुरू जावपाचो जालो.' मोहनान तांकां मांडा कडेन व्हेले.

थोड्या वेळान रेफ्रीन कोयबा मांडाचो ताबो घेयत आपल्या हातांत मायक घेतलो.

'सगळे खेळगडे लार्गी येयात आनी बरे भशेन आयकात. हांव कोयबा खेळाचे थोडे नेम सांगतां. तितले म्हणल्यार ड्रॉ तयार जातलो.' ताणें सांगूंक सुरवात केली. 'मार्काद करून दवरिल्ल्या जाग्या वयल्यान गड्डे उडोवंक जाय. उडयताना एक गड्डो भायर पडलो जाल्यार दुसऱ्या प्रतिस्पर्धक खेळगड्यान तो गड्डो खंयचेय लायनीर दवरून 'लागता?' म्हण विचारूंक जाय. 'लागता' म्हणल्यार मांडा भितर आसा तो गड्डो आनी लायनीर दवरला तो गड्डो हांचे मदीं मोखप्याचीं चार बोटां लागतात जाल्यार कोयबा जाता. मोखप्यान 'लागना' म्हणल्यार

तिस्पर्ध्यान बोटांनी तो भितर उडोवंक जाय. वा थंयच दवरून तो मोखूंक लावं येता. गड्डे डयतकूच दोनूय गड्ड्यां मर्दी चार बोटां लागलीं जाल्यार कोयबा जाता. कोयबा जाल्यार जाय ते गड्डो मोखूंक मेळटा. मोखिल्लो गड्डो मिलांत पडूंक जायना. एक गड्डो मिलांत पडलो आनी दुसरो गड्डो भायर पडलो जाल्यार प्रतिस्पर्ध्यान तो गड्डो लायनीर दवरून बोटांनी मुखार उडोवंक जाता मोखतल्याक अडचणींत हाडूंक. त्या गड्ड्याक मोखताना तीर भायर पडलो जाल्यार डाव वता. एक गड्डो मिलांत आनी दुसरो गड्डो मांडांत आसताना मोखलो जाल्यार एक डाव चड मेळटा. जाचो फायदो मुखार क्वॉलीफाय जाता तेन्ना मेळटलो. मिलांत आशिल्ल्या गड्ड्याक मोखलो जाल्यार डाव वता. फायनल जिखता ताका एक हजार रूपया आनी फायनलींत हारता ताका पांचशीं रुपया अशीं इनामां आसतलीं. हे शिवाय करंड आनी वैयक्तीक इनामां आसतलीं.'

अशे साबार नेम सांगले उपरांत टुर्नमिन्ट सुरू जालो. सॅनसिनी आनी योहन रोखडेच भायर पडले. पूण तांकां पयलेच फावट असलो टुर्नमिन्ट पळोवंक मेळ्ळो आनी थोडें शिकुंकूय



मेळ्ळें. मोहन मात एक-एकल्याक हारोवन बरोच मुखार पावलो आनी शेवटाच्या खेळांत अव्व थारलो. ताका इनाम म्हण श्री मायकल ग्रेशियस हांचे हस्तुकीं एक व्हडलो करंड आनी एक हजा रूपया फाव जाले जाल्यार फायनल हारिल्ल्याक एक ल्हान करंड आनी पांचशीं रुपया मेळ्ळे.

इनाम जिखिल्ल्याची मोहनाक खुशालकाय भोगलीच पूण ते परस चड ताका आपल्य ह्या गांवा भायल्या इश्टां मुखार जिखलो म्हण खूब आनंद जालो.

पुराय माजोड्ड्यांत तो गड्डे मोखूंक हुशार आसा म्हण माजोड्डेकार जाणाच आसले. ताक बरो मोखपी म्हणुनूय एक इनाम फाव जालें. सॅनसिनी आनी योहनान ताका परबीं भेटयलीं.



# वाडटी इश्टागत

आपूण कोयबा सर्त जिखलों हे खुशालकायेंत मोहन सॅनसिनी आनी योहनाक घेवन आपल्या घरा गेलो. ताचें घर ल्हान पूण नितळ आसलें. मोहनाली आवय भायरूच आसली. ताणें आपले आवयक त्या दोगांयची वळख करून दिली आनी जिखून हाडिल्लो करंड दाखयलो. ती खुशाल जाली.

दनपार जाल्ली. देखून तिणें तांकां जेवुनूच वचपाचो आग्रो केलो. योहनान घरा वचपाचो हट्ट धरलो. तेन्ना तिणें तांकां दोनूय वटेन धरले आनी भितर व्हरून बसयले. पियेवंक उदक दिलें आनी सांवङ्डेच्यान मोहनाच्या बापायन घरांत हाडून दवरिल्ल्या काप्या पणसाचे घरे काडटाना तांची खोलायेन खबर घेतली.

अचकीत कोणें तरी दारार मारलें. मोहनूच पळोवंक गेलो.

'आई घराचो धनी आयला. पयशे-पयशे कितें म्हणटालो.' मोहनान आपले आवयक सांगलें. ती तशीच उठून भायर गेली. तिचे फाटल्यान सगळे गेले.

'शालिनी, एक म्हयनो सोंपून दुसरो म्हयनो अद्यार आयलो मगो, भाड्याचे पयशे घेवन आयलींच नात कोण? अशें चलत रावल्यार हांव तुमकां घरा भायर करतलों.' घर धनयान कमर मोडीत सांगलें.

'सांवङ्ड्या लोकांनी मिनांचे ट्रक आडावन बरोच बोवाळ घालो खंय? म्हण फाटल्या सुमानांत कामूच जालें ना. ते खातीर तांकां पगार पडूंक ना. फुडल्या आयताराक हाडून दितां हांव.' तिणें बाबडी जावन सांगलें. घर धनयान एक नदर मोहनाचेर घाली.

'बरीं फोल्गां मारता मरे हो पोर. भाडें दिवंक जायना?' ताणें विचारलें.

'हांवें खंय फोल्गां मारल्यांत? आयज कोयबाचो टुर्नामिन्ट आसलो म्हण....' मोहनान सहज म्हणलें.

'एक हजार जिखला मरे तूं थंय, तो दिवंक जायना?'

'एक हजार?' शालिनी अजाप जाली.

'घे. एक हजार जाल्यार एक हजार! भुरग्यांचे पयशे मागूंक लज दिसना तुका?' मोहना
रागान म्हणीत एक हजार काडून ताच्या हातार घालो.

'आतां धादोस जालो मरे जीव?'शालिनीन विचारलें.

'जालो तर? बरें, येतां हांव?' घर धनी गेलो.

'आरे मोहन, तुवें म्हाका एक हजाराची गजाल सांगूंक ना मरे.' आवयन मोहनाक म्हणलें

'ह्या वर्सा सुशमाक नवो गणभेस शिंवूंक जातलो अशें धरिल्लें हांवें. दोन वर्सां जालीं तो
गणभेस घालून तें शाळेंत वता.' मोहनान आपले धाकले भयणीक फुड्यांत घेयत म्हणलें.

'कितले म्हान विचार तुजे म्हज्या पुता!' आवयन ताका आपले वेंगेंत घेतलो. 'हो घ
धनीय तुमचो खेळ पळोवंक आयिल्लो?' तिणें ताका विचारलें.

'ताचो पूत आशिल्लो. हांवें पयल्याच रावंडाक ताका भायर मारलो. म्हण ताका रा
आयलो आसतलो.' मोहनान सांगलें.



'हय मरे. तो आसलो थंय खेळ पळोवंक.' योहनान खात्री दिली.

'आसूं तें आतां. चलात भितर पणसाचे घरे खावंक.' आवय तांकां भितर व्हरूंक करताली, ूण योहन आनी सॅनसिनी फार्टी सरले.

'ना. येतात आमी. खूब वेळ जालो.' योहनान वेळाक पळयत सांगलें. मोहन भितर गेलो आनी आवयन काडिल्ले घरे कागदाक गुठलावन घेवन आयलो. आवयचेर एक नदर घाली आनी ी योहनाच्या हातार घाले.

'केन्नाय येयात बाबा. आनी हाका मातशे सांगात, सारको शाळेक वच म्हण. दीसभर खेळत आसता.' आवयन मोहनाली कागाळ सांगली.

'बरें. तुमचो माजोड्डेचो गांव खूब आवडलो आमकां. एक दीस येतले.' सॅनसिनीन ाजोड्डेची तोखणाय केली.

तांकां आदेवस करून दोगूय आपल्या घरा येवंक भायर सरले.



# नवो विद्यार्थी

इगर्जेचे शाळेचे सगळे वर्ग सुरू जाल्ले. आठवेच्या वर्गांत तीस आनी तीन भुरगीं आसलीं. अठरा जाण चेडे आनी पंदरा जाण चेडवां. टिचर सुवर्णा वॅल्यू-एडुकेशन वर्ग घेताली. शेजाऱ्यां-शेजाऱ्यां मदीं कशें रावूंक जाय आनी परकी मनशा कडेन कशें रावूंक जाय.... हे विशीं सांगताली. शाळेंत भुरग्यांनी एकामेकां कडेन कशे संबंद दवरूंक जाय हाची देख दिवन एक ल्हानशी काणीय तिणें सांगिल्ली.




अकस्मात हेडमिस्ट्रॅस वर्गांत भितर सरली. ती मोट्टू. हालत हालत आयली. तें पळोवन भुरग्यांक हांसूंक आयलें. सुवर्णा टिचरीन तांकां ओगी केलीं. सगळ्या भुरग्यांनी उबीं रावून तिका नमस्कार केलो. हेडमिस्ट्रॅसी बराबर एक भुरगो आसलो.

'हो सोहन. आमच्या इश्कॉलांत नवोच आयला. आदीं तो कुंकळ्ळे शिकतालो. ताचो हांगा प्रवेश जाला. आयच्यान तो तुमच्या वर्गांत शिकतलो.' हेडमिस्ट्रॅसीन सांगलें.

सुवर्णा टिचरीन ताका लागीं आपयलो. सोहनान पुराय वर्गभर नदर घुंवडायली. टिचरी मुखार प्रस्न उबो रावलो. 'ताका खंय बसोवं? वर्गात सुबेज बांक नात. प्रियांका फुड्यांत एकूच जागो खाली आसा.' हेडमिस्ट्रॅस वचूंक हाल्ली. सगळीं भुरगीं उबीं रावून तिका व्हडल्यान 'देव बरें करूं टिचर' म्हणलें.

'सद्याक तूं हांगाच बस.' टिचरीन सोहनाक प्रियांका फुड्यांत आशिल्लो जागो दाखयत सांगलें. एका चेडवा फुड्यांत बसूंक पडटा म्हण सोहन फाटीं-फुडें जावंक लागलो. 'भुरगो मरे तूं, कसली लज दिसता? प्रियांका, मातशें कडेक चल.' टिचरीन प्रियांकाक सांगलें. तेंय गडबडलें. हेर भुरगीं हांसूंक लागलीं.

'ओगी रावात. कितें जालें एका चेड्यान एका चेडवा फुड्यांत बसल्यार? चल सोहन, बस तूं पळोवंया.' भुरग्यांक ओगी करीत बांकार मर्दी बशिल्ल्या प्रियांकाक टिचरीन आपणेंच कुशीन काडलें आनी सोहना खातीर जागो तयार केलो. सोहन बसलो. मागीर ताची वळख करून घेतली.

'मुस्लीम मरे तो.' फाटल्यान बशिल्ल्या दिनेशान ल्हवूच म्हणलें.

'मुस्लीम चेडो आनी हिंदू चेडूं. जोडी बरी आसा.' ताचे कुशीक आशिल्ल्या सायमनान म्हणलें. टिचरीन तें आयकलें.

'पळयात भुरग्यांनो, हिंदू, मुस्लीम, क्रिस्तांव हे धर्म आमचोच परिणाम. आमच्या रक्ताचो रंग कितें? तांबडो. तो वेग-वेगळो आसा? आमी जरूय धर्मांनी वांटल्यांत तरी एकाच इश्कॉलांत शिकतात न्हय? कित्या खातीर? कित्याक, आमी सगळीं एक. मातसो वेळ आर्दी सांगिल्लें विसरलीं तुमी? आयच्या दिसा तुमकां होच पाठ. आमी शेजाऱ्याक मोगान लेखूंक जाय.' टिचरीन सांगलें.

वेळ सोंपिल्ल्याचें बॅल वाजलें.



# वर्गांतली खुशालकाय

मदले सुटयेंत सगळीं भुरगीं भायर वचून आयलीं. सोहन थंयच बसून आसलो. थोड टिफीन खावंक लागलीं. प्रियांकान आपलें बॅग उगडलें आनी टिफीनांत घालून हाडिल्ल्य बिसकुत्यो खावंक लागलें. एक तिरशी नदर मारून ताणें सोहनाक पळयलो. तो ओगीच बसू आसलो.

'तुवें कांयच हाडूंक ना खावंक?' दोन बिसकुत्यो मुखार करीत प्रियांकान विचारलें.

'नाका, नाका. म्हाका नाकात. तुजे मम्मीन तुजें पोट भरपा इतल्योच दिल्यात त्यो? त खा. मदल्या वेळार खावपाची संवय ना म्हाका.' सोहनान निश्पाप जाप दिली.

'तुजे मम्मी कडेन दिवपाक घडना न्हय? तुज्या कपड्यांक पळोवन कळटा म्हाका.' ताचे पोरणे कपडे पळोवन प्रियांकान ताची गरिबी वळखली.



'जण एकलो आप-आपलें येवजिता. म्हजी परिस्थिती वळखली न्हय तुवें? आतां तूं सगळ्यांक सांगतलें हांव गरीब म्हण.' ताच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. खरें म्हणल्यार ताणें ते कपडे कोणाकडल्यान मागून हाडिल्ले.

'घे. तूं गरीब जाल्यार कांयच नज. मनशान वांटून खावंक जाय. तेन्नाच खरी खुशालकाय मेळटा.' प्रियांकाचीं उतरां आयकून ताच्यान परतून 'नाका' म्हणूंक जालें ना. ताणें बिसकुत्यो घेतल्यो आनी ताका दिनवासून खावंक लागलो.

गणीत विशय सुरू जालो. गणीत शिकोवपी नागवेंकार सर गणीत शिकोवंक लागलो.

'आयज हांव नवो पाठ शिकयतां. सगळीं आप-आपले कादेर्न काडात आनी बरोवंक लागात.' तो खडू घेवन बोर्डाचेर गणितां बरोवंक लागलो.

'गणितां सामकीं सोंपींच आसात. पूण मातशी तकली लडयल्यार चड अवघड लागचीं नात.' आपल्या कदेलार बसत ताणें सांगलें.

थोड्या वेळान सोहन आपलो कादेर्न घेवन सरा लागीं गेलो. ताका पळोवन सर अजाप जालो.

'हांवें तुका हे आदीं ह्या वर्गांत केन्नाच पळोवंक ना.'

'हांव आयजूच सावन आयलां सर....सर, म्हजें नांव सोहन.'

'आदीं खंय शिकतालो?'

'कुंकळ्ळे गांवांत. आतां आमी नुव्यांत रावूंक आयल्यांत, देखून हांगा प्रवेश घेतला.'

'सोडयलीं तुवें गणितां?'

'हय सर.' ताणें आपलो कादेर्न ताचे कडेन दिलो.

सरान कादेर्न तपासलो आनी परतून अजाप जालो. ताणें सगळीं गणितां सारकीं सोडयल्लीं.

'असलीं गणितां हांव आदल्या वर्साक शिकिल्लों. म्हाका सारकी याद आसली सर.'

'सारकें तुजें. हीं गणितां सातवेच्या वर्गांतलीं. थोडी उजळणी जावंक जाय म्हण हांवें मुद्दम घाल्लीं.'



तांचें इतलें उलोवप जाता म्हणल्यार पासून हेर कोणाचींच गणितां सोडोवन जावं नासलीं. सर सोहनाची तोखणाय करता तें पळोवन भुरगीं मात अजाप जालीं. सोहन आपल्य जाग्यार येवन बसलो.

'म्हाका मातशे दाखयता?' प्रियांकान विचारलें. सोहनान कादेर्नूच काडून ताचे फुड्यां दवरलो. आतां म्हणल्यार तांची मातशी इश्टागत जाल्ली.

'नाका सोहन. तशें करूंक जायना. ताका गणितां करुंदी. भुरग्यांनी पयलीं प्रयत्न करूंक जाय. कळना तेन्नाच दाखोवंचें.' सरान थंयच रावून सांगलें.

मागीर ताणें सोहनाक मुखार आपयलो आनी सगळ्यांच्यो जापो बोर्डार बरोवंक लायल्यो थोड्यांनी आपल्या कादेनांत सारक्यो जापो बरयल्ल्यो जाल्यार थोड्यांच्यो चुकिल्ल्यो. सोहनान इतले हुशारकायेन गणितां सोडयल्लीं देखून सरान सगळ्यांक ताळयो मारुंक लायल्यो. भुरग्यांनी सोहनाक ताळयो मारल्यो. प्रियाकांन चडूच मोट्यान मारल्यो.

'म्हाका गणीत विशय खुबूच अवघड लागता.' सर वतकच प्रियांकान सोहनाक सांगलें.

'जेन्ना-जेन्ना अडचण येता, तेन्ना तूं म्हाका विचार. हांव तुका दाखयतां. म्हाका गणीत आनी हिंदी विशय खूब आवडटात.' सोहनान ताका उमेदीन सांगलें.

'आनी कोंकणी? मुखार बशिल्ल्या जुवानान विचारलें.

'म्हाका ८५ टक्के गूण मेळिल्ले.' सोहनान गर्वान सांगले.

अशे तरेन सवका-सवका तो आपल्या वर्गांतल्या भुरग्यांमदीं मिसळ जावंक लागलो.



# नवो शिकोवपी

सगळीं भुरगीं सकाळचे प्रार्थने खातीर जमा जाल्लीं. सातवेच्या वर्गांतलें जुस्तीन मुखार ालें. ताणें आपल्यांत आत्मविस्वास निर्माण केलो आनी प्रार्थना म्हणूंक लागलें. ताचे बराबर गळ्या भुरग्यांनी ती प्रार्थना म्हणली. ते उपरांत धावेच्या वर्गांतलीं पांच भुरगीं मुखार सरलीं. ांणी पवित्रो घेतलो आनी एकाच सांगाताक 'जन गण मन' हें राष्ट्रगीत सुरू केलें. मंद वाऱ्याचेर तिरंगो झेलतालो. त्या वेळार सगळ्या भुरग्यांच्या काळजां-मनांत देस भावना जागी जाल्ली. ागीर हेडमिस्ट्रॅस मुखार सरली.

'जाणात भुरग्यांनो, आमच्या इश्कॉलांत आयच्यान एक नवो शिकोवपी भरती जाला. तो ावन आसा पी.टी. सर नवनाथ आमोणकार.' हेडमिस्ट्रॅसीन नवनाथाली वळख करून दितना ाका मुखार हाडलो. सगळ्या भुरग्यांनी ताचे खातीर ताळयो मारल्यो. नवनाथान मान बागोवन ांच्यो ताळयो स्विकारल्यो.

'आमचीं भुरगीं खेळांत अदीक परजळूंक ताची हांगा नेमणूक केल्या. देखून ताणें आयजूच जाहीर करूंक लायलां, ह्या वर्साक आमी इंटर-क्लास फुटबॉल टुर्नामिन्ट घडोवन ाडटात म्हण. सगळ्या वर्ग-मॉनीटरांनी आप-आपल्या भुरग्यांचीं नांवां ताचे कडेन दिवचीं. कोण खेळटात तांकां स्पोर्ट्स गूण मेळटले.' हेडमिस्ट्रॅसीन घोशणा केली.

'हुरेऽऽऽऽऽऽ' चेडयांनी एक व्हडलो बोवाळ केलो. हेडमिस्ट्रॅसीन तांकां ओगी रावपाचो ंकेत केलो.

'हे फावट आमच्या इश्कॉलान परतून एक फावट अखील गोंय आंतर शालेय फुटबॉल र्तींत भाग घेवंक येवजिलां. हे आदीं दोन फावट ही सर्त आमी जिखल्या. ह्या वर्सा आमचे खेळगडे बरी प्रगती करतले अशी आमकां आस्त आसा. ह्या आयताराक आमची इंटर-क्लास र्त जातली. आनी हे सर्तींतल्यान आमी स्कूल टीम वेंचून काडटले..... सो, बी रेडी टू प्ले बॉयस... ॲण्ड ऑल आदर्स, इन्क्लुडींग गर्ल्स वील कम टू चीयर आवर बॉयस.' तिणें फुटबॉल टुर्नामिन्टा विशीं अदीक उमेदीन म्हायती दिली. चेड्यांनी परतून एक फावट 'हुरेऽऽऽऽऽ' असो बोवाळ घालो.



सगळ्या वर्गांनी कोण-कोण फुटबॉल खेळटात तांचीं नांवां-वळेरी घेवंक सुरवात जाली. सोहनाच्या वर्गांत फुटबॉल खेळपी सादारण भुरगे आसले. वर्ग-मॉनीटर क्लॅनो नांवां घेवंक लागलो. खेळपी भुरगे आपलीं नांवां दिवंक लागले.

'तूं फुटबॉल खेळना?' प्रियांकान सोहनाक ल्हवूच विचारलें.

'हांव खेळटां पूण म्हजे कडेन बूट नात.' सोहनान सांगलें.

'सगळेच भुरगे बूट घालून खेळटले? बूट घालप सक्तिचें आसा?'

'ना जाल्यार हेर भुरगे म्हजे पांय सोलून काडटले.'



'म्हजे कडेन बारा नांवां आयल्यांत. आनीक कोण आपलें नांव दिवंक सोदता?' लॅनोन विचारलें आनी वर्गभर चेड्यांचेर नदर मारली. सोहन मान पोंदाक घालून ओगीच ावलो.

'हांव दिवं तुजें नांव?' प्रियांकान ताका विचारलें.

'नाका.' सोहनान नकार दिलो.

'आजुनूय कोण आसा जाल्यार बेगीन सांगात. हांव नव्या सराक मेळूंक वतां आनी ोमर्तीच आमच्या वर्गाचीं नांवां दितां.' क्लॅनोन सांगलें.

'हॅलो एवरीबॉडी....' नवनाथूच तांच्या वर्गांत आयलो.

भुरग्यांनी उबीं रावून 'गूड मॉर्नींग सर' म्हण ताका नमन केलें. तो भुरग्यां मदीं मिसळलो.



# फुटबॉल

नव्या शिकोवप्यान आपली जबाबदारी गंभीरतायेन घेतली. शाळेची इंटर-क्ला फुटबॉल सर्त सुरू जाली. मैदान शाळेक तेंकुनूच आसलें. मैदानाचे उदेंतेक आसली जेजू मारीया-जुजे इगर्ज जाल्यार उत्तरेक आसलो मडगांव-पणजी म्हामार्ग आनी हेर दोनूय वाठां लोकवस्ती. सगळीं भुरगीं मैदानाक घेराव घालून आसलीं. दीस आयतार आशिल्ल्यान नुवें लोकूय खेळ पळोवंक आयिल्ले. ह्या गांवच्यांक फुटबॉलाची खूब उमेद.

पयलो खेळ सातवी ए आनी णववी बी वर्गां मदीं सुरू जालो. णववी बी भुरग्यांनी सातव ए भुरग्यांचेर दोन गोलांची हार घालून ते दुसरे फेरयेंत पावले. सॅनसिनी आनी योहन सातवी ब वर्गांत आसले. तांचो पंगड केन्ना खेळटा हें थारूंक नासलें. दुसरे शिकोवपी खेळाचें वेळापत्रव घेवन आसले.

दुसऱ्या खेळांत सोहनाच्या वर्गाचो पंगड म्हणल्यार आठवी बी आनी धावी ए भुरग्यांचे पंगड खेळपाचे आसले. रॅफ्रीन सगळ्या खेळगड्यांक मैदाना मदीं उबे केले. कुरूबावलो उडयलो कुरूबावलो सोहनाच्या पंगडान जिखलो. तांणी इगर्जे वटेनची बाजू घेतली.

'गरजे भायर कोण धुकलता ताका फौल जातलें आनी सिरीयस फौल आसल्यार हांव तांबडें कार्ड दिवन भायर घालतलों. गोल-कीपराक कोणेंच आपटूंक जायना. गोल एरीयांत फौल जाल्यार पॅनाल्टी जातली. प्रतिस्पर्ध्याचो खेळगडो मुखार आसताना तांच्या गोल एरीयांत आयल्यार ऑफ-सायड जातली. थ्रो सारको मारूंक जाय. बरी कॉर्नर कीक घेता ताका स्कूल-टिमींत प्राधान्य आसतलें. खेळ वीस-वीस मिण्टांचो आसतलो आनी मदीं पांच मिण्टांचो इंटरवल.... बॅस्ट ऑफ लक.' पी.टी. शिकोवपी आनी रेफ्री नवनाथाचे कायदे आयकून जातकूच दोनूय पंगडांच्या खेळगड्यांनी आप-आपलो जागो घेतलो.

खेळ सुरू जालो. सोहन आपल्या वर्गांतल्या भुरग्यां बराबर खेळ पळयतालो आनी मदीं मदीं आपल्या खेळगड्यांक उर्बाय दितालो. पंदरा मिण्टां मदीं तांचेर दोन गोल पडले. दुसरो गोल गरज नासताना घेतलो. धावेच्या फॉरवर्डाक पांय घालून उडयलो म्हूण रॅफ्रीन पॅनाल्टी दिली. हरशीं गोल-कीपर ताका आडावंक शकतालो.

वीस मिण्टांनी हाफ टायम जालो. उदक पियेवंक सगळे खेळगडे जमा जाले. तेन्ना आपलें कतें चुकलां ताचेर ते भासाभास करूंक लागले. आपल्या पंगडाक नैतीक तेंको दिवंक सोहन तांचे फुड्यांत गेलो. एक बरी कॉर्नर कीक व्हगडायल्ल्याचें तांकां दुख्ख जाल्लें.

'तुमी चड डिफॅन्स खेळटात आनी फॉरवर्डाचेर भर दिनात. देखून पयलो गोल नाका आसताना जालो.' सोहनान खेळा विशीं तांकां सांगलें.

'डिफॅन्साक आमी चार जाण दवरल्यात. ना जाल्यार ते आमचेर आनीक चड गोल करतले आसले.' पंगडाचो कोपीत मारयानान सांगलें.

'ना मारयान, तशें न्हय. दोन फावटी तुमकां संद आसली गोल करूंक. पूण तुमी फॉरवर्डाक कोण नाशिल्ल्यान ती संद हातांतल्यान गेली. तुमी पळयलां, हें मैदान ल्हान आसा. चार डिफॅन्स खेळोवंचे बदला तीग जाण खेळय. मदले फळयेंत दोग जाण घाल जे बॉलाचे परिस्थिती प्रमाणें डिफॅन्साक येवं येतात अशे तरेन. मागीर डिफॅन्साक पांच जाण जाले नात? ह्या ल्हान मैदानाचो फायदो काडात मरे. चार जाण फॉरवर्ड खेळ्ळ्यार मॅच आमच्या हातांत येवं येता. आनी तुमी बारीक पळयलां? तांचे फॉरवर्ड बरे आसात. पूण डिफॅन्स खेळपी अशक्त आसात. ताची एडवान्टेज घेयात.' सोहनान खेळाची मांडावळूच सांगली. हेर खेळगडे आयकुंकूच उरले.



'तुका इतलें बरें समजता जाल्यार तूं कित्याक खेळना? भायर रावून उलोवंक सोंपें ते
खेळटा ताका कळटा.' फॉरवर्ड खेळपी डायगोन मातशें तिडकून सांगलें. ताका दिसलें सोह
आपल्याक तिडायता म्हण.

इतल्यान रेफ्रीन पिल्लूक मारली. खेळटाना नवनाथ सर सगळ्यांक बारीकसाणी
पळयतालो आनी दोग जाण शिकोवपी भायर रावून आपले तरेन पळोवणी करताले. सग
खेळगडे मैदानाचेर गेले.

खेळ परतून एकदां सुरू जालो. हे फावट आठवेचे भुरगे मातशे नेटान खेळूंक लागले
त्या बोवाळांत मैदाना मर्दी हेड घेताना चुकामूक जाली. दोगूय आठवेचे भुरगे एकामेकाक नेटा
आपटले आनी दोगूय सकयल पडले. तांच्यान उठूंक जायना जालें. खेळ थांबलो.

तांकां उबारून मैदाना भायर व्हरचे पडले. भुरग्यांनी तांकां पळोवंक गर्दी केली. कितलो
वेळ खेळ बंद उरलो. जोसुआ आनी नोहा धांवून वचून उदक घेवन तांचे फुड्यांत आयले.



# दुसऱ्याचो वालोर

खेळ पळोवंक हेडमिस्ट्रॅस धरून आनीक जायतेच शिकोवपी आसले. हेड घेताना ुकामूक जाल्ली पळोवन तीं भटकलीं. पूण नवनाथ सरान परिस्थिती आपल्या ताब्यांत केली. ोळगड्यांक समजायले, तांचे कडेन उलोवणीं केलीं आनी तांकां परतून खेळूंक तयार केले.

'मारयान, तुजे दुसरे खेळगडे घाल.' नवनाथान आठवेच्या कोपीताक सांगलें. पूण ताचे ्डेन वळेरे प्रमाणें आनीक एकलोच खेळगडो आसलो, तो मैदानार भितर सरलो.

'तूं खेळटलो?' मारयानान सोहना फुड्यांत येयत विचारलें.

'तुमी बूट घालून खेळटात न्हय!' सोहनान सांगलें.

'तूंय घाल. पावलूचे बूट जातले तुका.' जखमी जाल्लो पावलू ताचे येदोच आसलो. ारयानान बेगीबेगीन पावलूचे बूट काडले आनी सोहना कडेन दिले. रॅफ्रीन पिल्लूक मारून ोगीन येवंक उलो केलो. सोहन पांयांक बूट घालूंक लागलो. ताका त्रास जावंक लागले.

'बूट घालून खेळपाची म्हाका संवय ना. हांव असोच येतां आनी मदीं खेळटां.' अशें ्हणीत ताणें बेगी-बेगीन एक ड्रॅस चडयलें. दोनूय पांयांक पावलूचीं एँकल-कॅप्स घालीं. मैदाना ्शेचो उमो घेतलो आनी मैदाना मदीं वचून खेळाचो जागो घेतलो.

'चियर्सऽऽऽऽ सोहन.' प्रियांकान भायर रावून ताका उर्बा दिली.

खेळ परतून सुरू जालो. सोहनान सांगिल्लें तांणी आयकूंक ना. तांचेर आनीक एक गोल ालो.

'आतां तरी म्हजें मानून घेयात मारयान.' सोहनान परतून विनंती केली.

'बरेंऽऽऽऽ.' मारयानान सोहनाची मांडावळ आपणायली. आपल्या सगळ्या खेळगड्यांक शिटूक केले. अकस्मात खेळा मांडावळींत बदल पळोवन धावेचो पंगड घुसपलो. बॉल पास करीत ोहनान कॉर्नरा वटेन ऍन्टोनी कडेन शेवटिलो आनी आपूण गोल वाठारांत मदीं येवन रावलो. ्गळे खेळगडे कॉर्नरा वटेन धांवले. योहनान बॉल परतून आपणा कडेन मागलो. ऍन्टोनीन

सारकी पास दिली. सोहनान बॉल हड्ड्याचेर घेवन थांबयलो, आनी गोलीक कळचे पयल
गोलांत शूट घेतली आनी गोल!

आठवेचो आनी सोहनाचो पयलो गोल. तांच्या वर्गांतल्या भुरग्यांनी हात हालोव
खुशालकाय व्यक्त केली.

'कम ऑन सोहन,' प्रियांकान परतून बोवाळ मारलो. सोहनान आपल्या वर्गा खात
गोल केलो म्हण तें एकदम खुशाल जालें. सोहनाक सगळ्यांनी उबारून धरलो.

मागीर सोहनाचेच पद्दतीन ते खेळ्ळे. सोहनान आनीक एक गोल केलो. उपरांत तांव
आनीक एक कॉर्नर कीक मेळ्ळी. ती शूट मारयानान घेतली. हाचो फायदो काडीत सोहनान बॉ
आपले तकलेचेर घेवन गोल केलो आनी पयली हॅट्रीक केली. खेळ सोंपूंक दोन मिण्टां आसा
म्हणल्यार सोहनान मारयानाक मुखार आपयलो आनी ऍन्टोनी कडल्यान बॉल पास घेव
डायगोक दिलो. डायगोन उक्त्या जाग्याचेर आशिल्ल्या मारयानाक बॉल दिलो आनी ता
संदीचो बरो फायदो घेयत जैताचो गोल केलो.

खेळ सोंपलो तेन्ना मात सगळ्यांकूच मानचें पडलें सोहनाक आपणें अंडरएस्टीमेट केल
म्हण. मागीर सगळ्या खेळगड्यांनी ताचो वालोर समजत ताची तोखणाय केली.

'शाब्बास सोहन. तुजो खेळ म्हाका खूब आवडलो. पयलीं फुटबॉल खेळटालो दिसत
तूं?' नवनाथ सरान ताका हात दियत परबीं दिलीं. 'तुजे सारक्या भुरग्यांची म्हाका गरज आसा
म्हाका खात्री आसा आमच्या इश्कॉलाचें नांव तूं परजळीत करतलो म्हण. फाल्यां इंटरवलाव
म्हाका स्टाफ रुमांत मेळ.' ताणें मुखार सांगलें. सोहनान मानून घेतलें आनी फक्त हांसलो. ताचे
फाटल्यान प्रियांका धांवत आयलें आनी ताका परबीं दिलीं. खंयच्यान तरी सॅनसिनी आनी
योहन आयले.

'एकदम बरो खेळ्ळो हां तूं. तूं मैदानार वचत सावन तूंच कॅप्टन कसो दिसतालो.
सॅनसिनीन हात दियत म्हणलें.

'तुमी केन्ना खेळटात?' सोहनान विचारलें.

'आमची मॅच जेवून दवरल्या म्हण आतांच सांगलां आमकां.' योहनान ताका हात दियत ांगलें.

'इश्कॉलाचे टिमींत तुजें नांव श्युअर आसतलें.' सॅनसिनीन 'ए-वन' खुणा करीत म्हणलें.

'इश्कॉलाचे बरे-बरे आसतले मरे. हांव नवोच आयलां पूण चान्स पडल्यार खेळपी हांव .' सोहनान ड्रॅस काडून मारयानाच्या हातांत दितना सांगलें.

'आमचो इश्ट जातलो?' योहनान विचारलें.

'सांगता?' सोहनान तांचेर एक बारीक नदर मारली आनी मुखार उलयलो, 'आमच्या गांतलें हें प्रियांका म्हाका एकटेंच बरें करता. तुमचो सांगात मेळ्ळ्यार आमची इश्टागत खूब री जातली.' सोहनान तांची इश्टागत मानून घेतली आनी प्रियांकाक फुडें आपयलें.



'फेरयेंतलो राग विसरलो मरे?' सोहनान योहनाक विचारलें.

'तो आतां खंय आसा?' सोहनाचीं उतरां आयकून योहनाक लज जाली. 'प्रियांकाकू घेतात मरे सांगाताक?' सोहनान विचारलें. योहन आनी सॅनसिनी हांसले.

'अभ्यासा कडेन फकाणां मात चलचीं नात हां.' प्रियांकान गंभीरतायेन सांगलें.

'तूं बरें स्कॉलर काय कितें गो?' योहनान विचारलें.

'हांव स्कॉलर न्हय, हांव रींग-मास्टर.'

'कसलें? सर्कसीचें?' हात उबारीत योहनान म्हणलें.

सगळीं हांसली.



# चेडे-चेडवांची इश्टागत

इंटर-क्लास फुटबॉल टुर्नामेन्ट करून नवनाथ सराक बरो पंगड वेंचूंक फायदो जालो ानी त्या नेटार तांच्या इश्कॉलान बरो खेळ करून परत एक फावट इंटर-स्कूल फुटबॉल र्नामेन्ट करंड जिखलो आनी इश्कॉलाची नामना वाडयली. देखून दुसऱ्या दिसा सकाळीं प्रार्थने ळार इश्कॉलांतलो बरो फुटबॉल गडो म्हण सोहनाचो सगळ्यां हुजीर भोवमान जालो. नवनाथ रान ताचे विशीं चडूच व्हडवीक सांगली. आज इश्कॉलाचो खरो हिरो तो थारिल्लो. सगळ्यांनी ाचे खातीर व्हडल्यान ताळयो मारल्यो.

वर्गांत येतकूच प्रियांकान ल्हवूच परबीं दिवन सोहनाक हात दिलो. सोहनाचें हर्द्दें ुशालकायेन भरून आयलें.

'तुमी चेडवां कसलोच खेळ खेळनात?' इंटरवलाक सोहनान प्रियांकाक विचारलें. श्कॉलांत चेडवां खातीर ताणें कसलोच खेळ पळोवंक नासलो. सगळीं भुरगीं भायर गेल्लीं ानी तीं दोगांच वर्गांत आसलीं. चेडे मात वेगवेगळे खेळ खेळटाले, जशे फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, ास्केटबॉल, कबड्डी आदी. तशें पळोवंक गेल्यार हे खेळ चेडवांनी खेळूं येताले. पूण...

'चेडवांक गजाली करूंक मेळ्ळ्यार पुरो.' प्रियांकान म्हणलें. ताणें जायते फावटी खेळाची जाल केल्ली. पूण चेडवां ताका प्रतिसाद दिनासलीं.

'इश्कॉलांतले खेळ सोड, तूं रींग-मास्टर म्हणटालें न्हय गो? तांकां रिंगांनी खेळूंक केत्याक शिकयना तूं?'

सोहनान ताच्या गुणाक चालना दिली.

'तूं सांगून पळय तीं आयकतात जाल्यार. म्हजें आयकनात तीं. आमच्या वाड्यार दांच सांजेचीं रिंगांनी खेळून आमी बरी मजा करतात.' प्रियांका सांगताना उमेदीन भरलें.

तितलें म्हणल्यार इंटरवल सोंपून भुरगीं वर्गांत परतलीं.

'आमच्या इश्कॉलांतलीं सगळीं चेडवां खेळांत 'डो' काय म्हण.' सोहनाचें उलोवप

आयकून बऱ्याच जाणाक अजाप दिसलें. शिकोवपी येवंक नाशिल्ल्यान तांकां गजाली क
संद मेळिल्ली.

'हांगा खेळ आसात ते आमकां कोण शिकयता? तीं व्हडलीं चेडवां मात व्हॉलीब
खेळटात. आमी पावतात त्या येद्या व्हडल्या नेटा कडेन?' रोजीन विचारलें.

'आमचें प्रियांका तुमकां रिंगांनी खेळूंक शिकयता खंय. तुमी शिकतलीं?' सोहन
विचारलें.

'रिंगांनी? फेस्त काबार मरे.' तीन चार चेडवांनी एका बराबर म्हणलें. तांकां फेस्त
फेरयेंतलीं रिंगां उडोवपाचें दिसलें. थोड्यांक ह्या खेळा विशीं खबर आसली.

'रिंगां फेस्ताचीं न्हय. मैदानाचेर खेळपाच्या रिंगांनी. वेळ पासार करूंक एकदम ब
खेळ हो. खेड्या गांवांनी खूब फामाद, तुमकां खबर ना ज़ाल्यार प्रियांका शिकयतलें.' सोहन
तांकां खुशाल केलीं.

सोहनान आपले हिरोगिरीचो फायदो काडलो.

'हय, हांव तुमकां शिकयतां, सांजे वेळार येतात मगो? येतना तुमचे बराबर चॉकू
हाडल्यार जाता.' प्रियांकान सांगलें.

'कितलीं जाणां लागतात?' रोजीन विचारलें.

'वर्गांतलीं पंद्राय जाणां आयल्यार जाता?' ललितान विचारलें.

'येयात. आमचेच भितर पंगड करून खेळुंया. जाय जाल्यार सर्त घडोवंया. आम
पळोवन हेरूय भुरगीं खेळूंक शिकतलीं.' सोहनान आपले भशेन सांगलें.

तितल्यान सुवर्णा टिचर वर्गांत आयली आनी सगळीं भुरगीं ओगी जालीं.

'पळयात. इश्कॉलाच्या शिक्षणीक माध्यमाक लागून शिकोवप्यांची एक म्हत्वाची बसव
चालू जाल्या. देखून थोडो वेळ वर्गांत कोणूच शिकोवपी येवंचे नात. तितलो वेळ ओगी रावू
वर्गांत अभ्यास करात.' तिणें सांगलें.

'टिचर आमी भायर वचून रिंगांनी खेळ्ळ्यार जाता?' प्रियांकान विचारलें.



'रिंगांनी ?'

'हय टिचर. हो चेडवांनी खेळपाचो खेळ. हांगासर आमच्या वया वयल्या चेडवांक खेळूंक कसलोच खेळ ना. म्हण प्रियांका आमच्या वर्गांतल्या चेडवांक रिंगांनी खेळूंक शिकोवंक सोदता.' सोहलान टिचरीक समजायली.

'हूंऽऽऽऽ. असले खेळ भुरग्यांनी खेळूंक जाय. आंगाचो बरोच व्यायाम जाता आनी भलायकी लेगीत बरी उरता. आतांच्या भुरग्यांक टि. व्ही. आनी कंप्युटर गेमी मेळ्ळ्यार पूरो. बरें, वचात पूण रस्त्याचेर वचूं नाकात.' टिचरीन परवानगी दिली.

'आमच्याच आंब्या पोंदाक खेळटात आमी. थंय सावळी आसा. चलो प्रियांका, कल करे सो आज कर. आज करे सो अब कर. रींग आसा मगो ?' सोहनान नेट धरलो.

प्रियांकान हयकार दिवन आपल्या बॅगांतलें रींग काडून दाखयलें.

टिचर बसके खातीर गेली.

सगळीं भुरगीं वर्गांतल्यान भायर सरून गेलीं. भायर वतना बोर्डाकडले थोडे चॉक घेतले. हेर भुरगीं आप-आपल्या वर्गांत रावून तांकां पळोवंक लागलीं.

# रिंगांनी

नवे उमेदीन आनी नव्या खेळाच्या मोगान आठवी बी वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं भाय आयलीं. प्रियांकान आंब्या पोंदाक पांच मेत्रां लांबायेच्यो पांच लायनी चार मेत्रांच्या अंतराचे मारल्यो आनी तांचेर आडव्यो लायनी मारून गुडां केली. सोहनानूय ताका आदार केलो.

'पळयात,' प्रियांकान खेळाविशीं सांगूंक सुरू केलें, 'सुरवेक चार चार जाणांचे दोन पंगड करून मदल्या दोन गुडांत भितर सरात.' ताणें सांगलें. तशीं चार-चार जाणां गुडांत भितर सरलीं. प्रियांकान एकल्या कडेन रींग दिलें.

'सुरवेक दोन तीन फावटी वॉर्म-अप कॅचींग करात. म्हणल्यार एका गुडांतल्यान दुसऱ्या गुडांत आशिल्ल्या कडेन दोन तीन फावटी रींग उडोवंक शिकात.

मागीर रिंगां मारपाचो खेळ सुरू. ताणें तें जिखलें जाल्यार परतें विरोधकाचेर मारून ताका बाद करूंक जाता. जो बाद जाता ताणें प्रतिस्पर्ध्याच्या गुडा फाटल्यान वचप. मागीर हो गडो आनी बाद जाल्लो गडो एकामेका कडेन रींग उडयतात आनी पास करीत रावतात. तेन्ना मदल्या गड्यांनी तें रींग जिखपाचो यत्न करूंक जाता. पूण ताका आपटून रींग सकयल पडलें जाल्यार तें बाद जाता. नाजाल्यार मदल्या गड्यांची नदर चुकोवनूय जाणा जावन तांकां बाद करूंक जातात. ज्या पंगडाचे अशे सगळे गडे बाद जातात तो पंगड हारता आनी दुसऱ्या पंगडांत एकलो लेगीत उरल्यार तो पंगड जिखता. समजलें?' प्रियांकान खेळाविशीं बेस बरी म्हायती दिली. सगळे चेडे तांकां पळयताले.

'आंवयऽऽऽ, सामकें सोंपें मगो. चल खेळुंया. चुकता थंय सांग आं.' रोजीन म्हणलें. प्रियांकान मान हालयली. तें भायर रावलें.

'चलात, खेळूंक सुरू करात.' प्रियांकान तांकां उमेदीर हाडलीं. रोजीन दुसऱ्या पंगडांतल्या फ्लॉरीकडेन रींग उडयलें. ताणें तें जिखलें आनी रोजीच्या पंगडाच्या सुझी कडेन उडयलें. ताणें फ्लॉरीच्या पंगडाच्या आंतोनेता कडेन उडयलें.

'आंतोनेत मार आतां.' प्रियांकान सांगलें.

तशें, लक्ष नाशिल्ल्या लिलियाचेर आंतोनेतान रींग मारलें. रींग ताका आपटलें आनी सकयल पडलें. लिलिया बाद जालें.

'लिलिया ह्या खेळा कडेन लक्ष आसप सामकेंच गरजेचें.' प्रियांकान सांगलें.

'चल आतां तांचे फाटल्यान वच.' प्रियांकान ताका फ्लॉरीच्या फाटल्यान आशिल्ल्या गुडांत धाडलें. मागीर रोजीन सॅप्राच्या पोटा बराबर रींग मारलें. ताणें 'आवयस' म्हण बोवाळ मारलो आनी तें बाद जावन पोटाक धरीत रोजी फाटल्यान आशिल्ल्या गुडांत पावलें. चेडे ताका चाळोवंक लागले. दोन तीन फावटी रींग जिखले उपरांत फ्लॉरीन रोजीच्या पंगडांतल्या निखीताक बाद केलें. तें फ्लॉरी फाटल्यान पावलें. अशे तेरेन तीं बरोच खेळ खेळ्ळीं आनी तांकां बरी उमेद आयली. बाद जाता तेन्ना चेड्यांनी तांकां तोंड वांकडें करून बरींच चाळयलीं. थोड्यांक राग येतालो.

'आमकां रिंगांचो खेळ शिकयलो म्हण देव बरें करूं.' फ्लॉरीन प्रियांकाचे उपकार मानले.



'देव बरें करूं ताका म्हणचे पयलीं म्हाका म्हणात. ताका हांवें तयार केलें तुमकां खे
शिकोवंक. ना जाल्यार कोणाक खबर आसली प्रियांका रींग-मास्टर म्हण?' सोहनान प्रियां
मुखार उबो रावत सगळें श्रेय आपणाक घेतलें. प्रियांकान मानून घेतलें.

'म्हाका दिसता, नवनाथ सराक आमी पटोवन दिल्यार रिंगांनी खेळ आमच्या इश्कॉलां
रींग घेवंक शकता आनी सगळीं चेडवां उमेदीन खेळटलीं. किते म्हणटा प्रियांका?' सोहना
भुजां हालयत विचारलें.

'रिंगांनीच न्हय, दोरयांनी, चांटांनी पासून खेळ इश्कॉलांत हाडूंक जातात. प्रियांका
नवे खेळ सुचयले.



# नव्या खेळांची सुलूस

मोहन आनी सिडनी माजोड्डेची रेल्वे गेट पार करून बाजारांतल्यान सायकलीचे आटे लयत नुवेंच्या रस्त्यान चलूंक लागले. तांच्या हातांत एक-एक बडये कुडको आसलो. आनी णें ते आटे धुकलताले. चलून गेल्यार आटो आड पडपाची भिरांत आशिल्ल्यान ते सवका-वका धांवताले.




'मोहन तुका खबर आसा? हे फावट सव्वीस जानेराक इगर्जे कडेन व्हडली सर्त जावपाची आसा खंय? आनी तांतूंत एक नवो आयटम इंट्रोड्यूस करपाचे आसात. तो म्हणल्यार आट्यांची स. हांव जाल्यार ही गजाल आयकुनूच खोशी जालों. हे आर्दी अशें केन्नाच जावंक नासलें.' सिडनीन मोहनाक सांगलें. तोय आयकुंकूच उरलो.

'आटे म्हणल्यार .... हे आमी चलयतात ते आटे?' आपल्या आट्याचेर लक्ष केंद्री करीत मोहनान विचारलें. सिडनीन हयकारी मान हालयली.

'पूण राव रे, आतां आमी खंय वतात?' मोहन वळपाचें नांव घेना तें पळोवन सिडनी विचारलें. माजोड्डेच्यान ते बरेच भायर पाविल्ले.

'नुवेंकार इश्टांक सांगूंया मरे. फाटले फावट तांकां हांवें कोयबा खेळूंक हाडिल्ले. इना मेळूंक ना ती वेगळी गजाल. पूण ते खुशाल जावन गेल्ले. हे तुजे आट्यां रेसींत ते कोण येता जाल्यार हाडुंया तांकां.' मोहनान सांगलें.

'पूण ही सर्त इगर्ज घडोवन हाडटा. इगर्जेंचे वडील घेतले तांकां? ते भायले म्हणीत म्ह भिरांत दिसता.'

'हंऽऽऽ, तेंय आसा. आसूं. आतां आमी लागीं पावल्यातूच न्हय, रेसीचें मागीर पळोवंय पयलीं तांची खबर घेवन येवंया.'

अशें उलयतां-उलयतां ते दोगूय आटे घेवन धांवत-धांवत नुव्यांत वचूंक लागले. वा वयले भुरगे तांकां पळयताले. थोडे हांसताले जाल्यार थोडे तांचे आटे पळोवन अजाप जाताले.

नुव्यांत वेगळेंच चित्र आसलें. थंय नव्या खेळांची सुलूस लागिल्ली. चेडे-चेडवां खेळूं उमेदीन तयार जाल्लीं.

'कोण-कोण आपालिपा खेळूंक येतात तीं येयात बेगीन.' सॅनसिनीन कपेला कडे रावून साद घालो. सोहनान एक बडी घेवन कपेलाच्या दारा कुशीक देड फूट रुंदायेचो ए सर्कल (आटो) काडलो. इतनान लागीं आशिल्लो कोयर पयस उडयलो.

आपालिपा खेळूंक पोवासांव वाडो हो बरो जागो आसलो. थंय जायतो उक्तो जाग आसलो. एक ल्हानशें कपेल आसलें. ताचे फाटल्यान लिपूंक बरी सुवात आसली, एक मोडिल्ल गिरण आसली. थंयसर जायते कडेन लिपूंक मेळटालें. लागींच घरां आसलीं. तांच्या आडोसाकूय लिपूंक मेळटालें. थोडीं झाडांय आसलीं. तांचे फाटल्यान रावून कुटूऱ्यो घालूंक बरें मेळटालें. ह्य खेळांत चेडे-चेडवां एकं सारको आनंद घेतालीं.

जॅनीफा, मिंगेलीन, पेरपेत, ऍम्बर, मिलाग्रीन, ऍना आनी स्वीझल कपेला कडेन आशिल्ल्या घरांत दोरयांनी खेळपाचो प्लान करतालीं. दोग-तिगां जाणांनी दोरयो हाडिल्ल्यो.

'सगळ्यां कडेन दोरयो आशिल्ल्यो जाल्यार बरें जावपाचें.' मिलाग्रीनान म्हणलें.

'कोणा कडेन ना तांणी बाजारांतल्यान हाडच्यो पडटल्यो.' जॅनीफान सांगलें.

'दोरयो सगळ्यांनी बाजारांतल्यान हाडूंक जाय म्हण नात. आमी शेतकारांलीं भुरगीं गो. सगळ्यांच्या घरांत कानयो आसतल्यो शेतांत व्हरपाच्यो, त्यो जुस्त पावतात दोरयांनी ळूंक. त्यो हाडून खेळुंया. आतां पयलीं आपालिपा खेळूंक येयात.' सॅनसिनीन तांचे फुड्यांत यत सांगलें.

'आमचो खेळ सुरू करचे आदींच वचचें?' ॲनान विचारलें.

'चल, आपालिपा जाल्यार आपालिपा. दोरयांनी दुसरे फावट खेळुंया. कोण-कोण ायल्यांत रे सॅनसिनी आपालिपा खेळूंक?' मिलाग्रीनान, ॲनाक समजायत सॅनसिनीक चारलें.

'जायतीं जाणां आसात. येयात तुमी बेगीन.'

'जाली तयारी?' पेरपेतान विचारलें.

'हय, चलात. आयज परतून एक फावट आमी सगळीं आपालिपा खेळुंया.' स्वीझल ानी मिलाग्रीनान म्हणलें.

एका फाटोफाट 'चलात' म्हणीत सगळीं कपेला कडेन वचूंक लागलीं.



# आपालिपा

आपालिपा हो गांवगिऱ्या वाठारांतलो पारंपारीक खेळ. हो खेळ खेळूंक पोवासांव वाड्यांतलीं भुरगीं एकठांय जालीं.

'पळयात, नेम सगळ्यांक खबर आसात. बेबो जाता ताणें सारके दोळे बंद करून सगळ्यांक लिपूंक सारकी संद दिवंक जाय आनी जो कोण 'टिपो' घालता ताणें सारकें ह्या आट्यांत रावून 'टिपो' घालूंक जाय.' सॅनसिनीन खेळा विशीं थोडी म्हायती दिली.

''बेबो' म्हणल्यार खेळ सुरू करताना एकल्याचें हें पोजीसांव. खेळाक सुरवात दिवंक पयलीं सगळीं एकठांय रावतात आनी १०-२०-३० करून १०० मेरेन मेजतात. जो १०० म्हणटा तो सुट्टा. अशे तरेन निमाणो सुटपासून जाका १०० म्हणूंक मेळना तो 'बेबो' जाता. आनी ताणें दोळे धांपून रावूंक जाय. हेर भुरगीं लिपूंक वतात. सगळ्यांचें लिपून जाले उपरांत एकल्यान कुट्ट्र्यो म्हणप आसता. मागीर 'बेबो' सोदूंक भोंवता. ताची नदर चुकोवन लिपिल्लो जो कोण पयलीं बडयेन चित्रायिल्ल्या आट्यांत पावता, ताणें आट्यांत रावून 'टिपो' म्हणप आसता. देखून बेब्यान चड पयस वचूंक फावना. अशे तरेन सगळ्यांनी 'टिपो' घालूंक जाय. नाजाल्यार बेब्यान जाका पयलीं सोदून काडला तो 'बेबो' जाता आनी अशे तरेन खेळ मौजेन चालू उरता. कांय कडेन आट्या बदला 'बेबो' झाडाचेर तकली दवरून दोळे बंद करून रावता. खेळुंया न्हय? १०-२०-३०...' सॅनसिनी कडल्यान आंकडे मेजूंक सुरू जालें.

पयलो 'बेबो' थारलो तो योहन. तोंड वांकडें करीत योहन आट्यांत गेलो आनी दोळे बंद करून रावलो. कांय खिणां मर्दी ताणें ल्हवूच दोळ्याची पाती हालयली आनी कोण नदरेक दिसता तें पळयलें. गिरणीचे फाटले वटेन रावून मिलाग्रीनान 'कुट्ट्र्यो' म्हणलें. कुट्ट्र्यो म्हणना बराबर खेळाक सुरवात जाली आनी बेबो लिपिल्ल्यांक सोदूंक लागलो. योहन सारकें जाणां आसलो स्वीझल खंय लिपलां तें. तो जुस्त कपेला फाटल्यान गेलो, ताका पळयलें आनी धांवत येवन 'स्वीझल टिपो' घालो. स्वीझल बाद थारलें.

'हें चिटींग हां. म्हाका दिसता तूं म्हाका पळोवनूच आसलो.' स्वीझलान राग उक्तायलो.

'हांवें खंय तुका पळयलें? हांव दोळे बंद करून आसलों मुगो.' योहनान फट मारली. वल चल बेगीन बेबो जा.'

'जाल्यार खिणा भितर तूं म्हजे फुड्यांत कसो पावलो?' स्वीझलान वाद घालता हणल्यार सगळीं भायर आयलीं आनी स्वीझलाक बेबो जावंचें पडलें.

तांचो खेळ बरोच वेळ चालू आसलो. तेन्नाच आटे धांवडायत मोहन आनी सिडनी तांचे ड्यांत पावले. ते तांकां पळोवंकूच उरले.

'हो कसलो खेळ रे योहन?' मोहनान विचारलें. योहन एका झाडा कुशीक लिपून आसलो.

'हांव मातसो भायर येतां हां.' योहनान भायर रावपाची परवानगी घेतली.

'हाका आपालिपा म्हणटात.' ताणें ताचे फुड्यांत येयत सांगलें.

'आमी आपालिपा खेळटात तें वेगळे तरेन न्हय रे सिडनी?' मोहनान आपल्या इश्टाक विचारलें.



'बेब्याच्या दोळ्यांक लेंस बांदप आनी ताणें हेर गड्यांक हात मुखार करून सोदप
असलो आपालिपा खेळ म्हणटा मरे तूं?' योहनान आपली जाणवाय सांगली.

'हय.'

'आमी तसलोय खेळटात. आज जायतीं जाणां जालीं म्हण हे तरेन खेळ्ळीं. पूण तुम
माजोड्ड्या सावन हे आटे धांवडायत आयल्यात हांगा?'

'हय तर. २६ जानेराक आमचे इगर्जे कडेन आट्यांची रेस घडोवन हाडल्या, ताची प्रॅक्टीस
करताले. आमी तुमकांय कल्पना दिवंक आयिल्ले. हो म्हजो इश्ट सिडनी.' मोहनान आपल्य
इश्टाची वळख करून दिली.

'आट्यांची म्हण रेस जाता?' योहनान मोहनाचो आटो घेवन चलोवपाचो यत्न केलो.

'ह्या दिसांनी तयारी करात मरे.'

तितलें म्हणल्यार आपालिपा खेळपी सगळीं तांचे भोंवतणीं एकठांय जालीं आनी संभाशण
आयकूंक लागलीं.

'म्हाका एक सांग, इगर्जे कडेन कितेंय घडोवन हाडटात तें आपल्याच गांवच्या भुरग्य
खातीर आसता, मागीर आमकां थंय कशे घेतले?' इतनान विचारलें.

'हांव पादकुरा कडेन उलयतां. तुमी येयात आटे घेवन.'

'आमची सायकल मोडल्या. आटो खंयचो मेळटलो?' सॅनसिनी बाबडो जालो.

'मोडिल्लेच सायकलीचो काडटात न्हय तो आटो?' सिडनीन विचारलें. सॅनसिनीक पटलें

'हांव जाल्यार म्हज्या डॅडीचे गॅरेजींतल्या ट्रकाचें बॅरींग घेवन येतां. जायतीं पडिल्ल
आसात थंय.' इतनान हातवारे करीत सांगलें.

'बॅरींग? तें चलतलें कशें?' ऍम्बरान म्हणलें. सगळीं हांसलीं.

'पळोवंक येयात हांव कसो चलयतां तें.' इतनान सांगलें.



# २६ जानेर

भुरग्यांचे उमेदीचो २६ जानेर उदेलो. दीस शेनवार आसलो. माजोड्ड्या गांवांत एक
गळेंच वारें व्हांवूंक लागलें. इगर्जे कडेन मोठ्या प्रमाणांत हो दीस समारंभूक तयारी चलिल्ली.
दानाचे उजवे वटेन ल्हानसो माटोव घाल्लो आनी तांतूंत मानेस्तांक बसूंक कदेलां घाल्लीं.
तर थोडे बोमाडेय लायिल्ले. पंचायती वतीन सकाळीं भारताचो तिरंगी बावटो हुबोवन झेंडा-
दन केल्लें आनी थंयसरूय इगर्जे कडल्या आट्यांचे रेसीची घोशणा केल्ली. लोक रेस पळोवपाक
वपाक लागिल्ले.

हे कार्यावळीक रंग हाडूंक पादकुरान धंदेकार आनी समाज सेवक आग्नेल फेर्नांडीसाक
नाचो सोयरो म्हण आपयिल्लो. रेसीचो खर्च दिवपाक तोच तयार जाल्लो. तो जुस्त सांगिल्ल्या



वेळार येतांच पादकुरान पिल्लूक मारून सगळ्यांक ओगी केले आनी ताका येवकार दिव
माटवांत व्हेलो.

इगर्जेचो पादकूर एक बरो संघटक आशिल्ल्यान ताणें बरे भशेन मांडावळ केल्ली. गर
थंय लायनी मारिल्ल्यो आनी मार्गदर्शना खातीर इगर्जेंत वावुरपी तरणाट्यांक दवरिल्ले. म्हयनोभ
आर्दी जाहीर केल्ली ही आट्यांची रेस गांवांत एक चर्चेचो विशय जाल्लो.

भुरग्यांनी तांतूंत वांटेकार जावंक निर्णय घेतिल्लो. आटे चलोवंक कळना तांणी पासू
पादकुरा लार्गी नांवां दिल्लीं. ते आटो चलोवपाचो सराव (प्रॅक्टीस) करताले. इतलो प्रतिसा
पळोवन पादकुरूय बरोच उमेदीर आयिल्लो. माजोड्ड्यांत असली रेस पयलेच फावट जावंव
वताली. कितलेच भुरगे मैदानार आप-आपले आटे घेवन उबे आसले. कोणा कडेन सायकलीं
आटे, कोणा कडेन मोटारसायकलीचे आटे जाल्यार कोणा कडेन स्कुटरीचे आटे आसले. थोड्यां
आजुनूय आटे चलोवंक कळनासलें पूण भाग घेतिल्ल्यान कितेंय तरी मेळटलें हें आशेन
आयिल्ले.

नुव्यांतल्यान योहन, इतन आनी सॅनसिनी आयिल्ले. योहनान आनी सॅनसिनी
सायकलीचे आटे हाडिल्ले जाल्यार इतनान ट्रकाचें व्हडलें बॅरींग हाडिल्लें. सगळे भुरगे आप-
आपले भितर उलयताले जाल्यार थोडे इतनाक पळोवन हांसताले. तांचो आंकडो चाळीस ते
पन्नासांचेर पाविल्लो. उत्साह आनी उमेदीन रेस सुरू जावपाची ते वाट पळयताले.

मायकाचेर देसभक्ती गितां चलतालीं.

'आतां आयकात,' पादकुरान मायक आपल्या हातांत घेतलो.

'आयज लोकसत्ताक दीस, म्हणल्यार रिपब्लीक डे. भारताच्या नागरिकांक एक व्ह
दीस. बराबर ह्याच दिसा म्हणल्यार २६ जानेर १९५० ह्या दिसा पयलेच फावट स्वतंत्र घटना
(संविधान ) आपणायिल्ली आनी आमच्या कायद्यां प्रमाण चलूंक वाट मेकळी केल्ली. त्या दिसा
सावन आमी खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जाल्यात. ही घटना कोणें बरयल्ली? कोण सांगता?' पादकुरान
प्रस्न केलो.

'बाबासाहेब आंबेडकरान.' मोहनान जाप दिली. सगळे भुरगे ताकाच पळोवंक लागले.

दकुरान ताका लार्गी आपोवन शाबासकी दिली.

'सारकें सांगलें तुंवें. हें महात्मा गांधीजीचें एक सपन आसलें. तांचे बराबर जे कोण भारत वतंत्र करूंक झुजले, तांचेंय सपन आसलें.

भारताचो पयलो प्रधानमंत्री पंडीत जवाहरलाल नेहरू हांच्या सरकारान त्या वेळार, ह्या इसा सुटी जाहीर केल्ली आनी आयज मेरेन हो दीस सबंद भारतभर सुटयेचो दीस आसता. आयच्या इसाक दिल्लीच्या राजघाटाचेर विजयपथ मार्गार एक व्हडली मिरवणूक जाता. हजारांनी लोक का गवाय आसतात. भारताचीं सगळीं राज्यां आपले 'फ्लोट्स' ते मिरवणुकेंत सादर करतात. शेंच आर्मी, नेव्ही आनी ऍर फोर्स हांचेय पंगड वांटो घेतात. आमच्या गोंयाक जायते फावटी य इनामां फाव जाल्यांत. आमचे तशेच हेर देसाचेय फुडारी हे मिरवणुकेचो आस्वाद घेतात. ारताचो राष्ट्रपती थंय सलामी घेता. सुमारा भायले लोक ताळयांच्या घणघणान हे कार्यावळीक तिसाद दितात. जाल्यार त्याच दिसा म्हणल्यार आयज प्रत्येक राज्यांत त्या-त्या राज्याचो ाज्यपाल आनी मुखेलमंत्री बी सलामी घेतात.

हे खातीर तुमकां सगळ्यांक भारताच्या रिपब्लीक दिसाचीं हुनहुनीत परबीं.' सगळ्या ुरग्यांनी आनी हाजीर आशिल्ल्यांनी व्हडल्यान ताळयो मारल्यो.

'ही रेस आतां रोखडीच सुरू जातली. सगळे भुरगे आप-आपलें पोजीशन घेयात. आमचे रणाटे जागो दाखयतले. मागीर रेस जातकूच सगळ्या भुरग्यांक मिठाय मेळटली. ताचो तुमी ास्वाद घेवंचो आनी २६ जानेराची खुशालकाय भोगची.' पादकुरान आनीक रंग हाडलो.



# आट्यांनी

माजोड्डेचे इगर्जे कडेन सवका सवका बरेच लोक एकठांय जाल्ले. इगर्जेच्या तरणाट्यां
बरे भशेन मांडावळ सांबाळिल्ली. पादकूर मर्दी-मर्दी तांकां मार्गदर्शन करतालो. मर्दीच माटवां
जाल्यार मर्दीच भुरग्यां मर्दी वचून पळोवणी करतालो. रेसींत वांटेकार भुरग्यांक आंखू
दवरिल्ल्या जाग्यार आटे घेवन वळीन उबे केल्ले. पयलेच फावट घडोवन हाडिल्ली ही रेस जैतवं
करूंक सगळ्यांचीच धांवपळ चालू आसली.

'एक नवी संकल्पना आमी आमच्या भुरग्यां खातीर मांडून हाडल्या. म्हाका दिसन
असली रेस आनीक खंयच जाल्या म्हण. आमचो हो पयलोच यत्न देखून कितेंय चुक
जाल्यार तुमी समजून घेवंक जाय. हे फावट बरे भशेन जाली जाल्यार फुडल्या वर्सा आनीक ब
तरेन करची. कितें म्हणटात तुमी?' पादकुरान वांटेकार भुरग्यांच्या मनांचेर प्रभाव घालो.

'ओके फादर.' कितल्याच भुरग्यांनी एका बराबर जाप दिली.

'पूण हे ते भुरगे कोण रे? हांवें तांकां हे आदीं केन्नाच पळोवंक नात.' पादकुरान नुवेंकारांक
पळोवन म्हणलें.

'फादर, त्या दिसाक हांवें तुका सांगूंक ना म्हजे तीग जाण इश्ट येवपाचे आसात म्हण
तेच ते.' सिडनीन पादकुराक याद करून दिली.

'बरें, बरें. आसूं. सगळे रेडी?' पादकुरान तयारी विचारली.

'येस फादर.' मोहनान व्हडल्यान म्हणलें.

'आतां नेम आयकात.' तांचे मुखा वयल्यान पासय काडीत पादकुरान नेम सांगूंक
सुरूवात केली.

'जाचो आटो आडवो पडटा तो भायर. ह्या मैदानाक रावंड मारून ही रेस जातली. चड
रावंड मारून पसून जाचो आटो आडवो पडना तो जिखलो. जिखता ताका व्हडलें कप आनी
दुसरो आनी तिसरो येता ताका धाकटीं कपां मेळटलीं. ते भायर जाणीं रेसीक भाग घेतला त्या

गळ्यांक मेदाली मेळटल्यो. ही रेस पुरायपणान आग्नेल बाबान स्पॉनसर केल्या. ताकाय एक ावट ताळयो मारुंया.' सगळ्या भुरग्यांनी आग्नेलबाबाक ताळयो मारल्यो.

'तर तुमकां सगळ्यांक परतून एक फावट रिपब्लीक डे चीं परबीं दितां आनी आग्नेलबाबा ार्गी मागतां ताणें बावटो दाखोवन ही रेस सुरू करूंक.' ते प्रमाण आग्नेलबाब बावटो घेवन ़्खार आयलो.

'गेट सेट रेडी? गो....' पादकुरान घोशणा करतांच आग्नेलबाबान बावटो वयर उबारून ाकयल देंवयलो. सगळे भुरगे आप-आपलो आटो घेवन धांवूंक लागले.

रेस रंगार आयली. कितलेच जाण भायर पडले. मोहन आनी सिडनी रोखडेच भायर डले. गर्दी जाल्ल्यान एकामेकाच्या आट्यांक आपटून कितलेच जाण बाद जाल्ले. माजोड्ट्रेचो



जॉन मात्सो कुसडो आसलो. ताणें मुद्दम आपलो आटो योहनाच्या आट्याचेर घालून ताका आ
उडयलो.

'हे, चिटींग करता?' योहनान विचारलें. पूण आपलो आटो सांबाळीत जॉन मुखार गेलो
मुखार वचून तो सॅनसिनीक तेंच करूंक सोदतालो. पूण ताचो अदमास चुकलो आनी आपल्या
आट्याक घुस्पून सकयल पडलो.

'आवयस.' जॉनान व्हडल्यान बोवाळ मारलो. आदार करपी तरणाटे बेगीबेगीन धांवू
आयले आनी तांणी जॉनाक वयर काडलो.

ताच्या धोंपराक मार लागिल्लो आनी रगत व्हांवतालें. फस्ट एड बॉक्स हाडून ताका
तांबडो तिंतूर लायलो आनी एकल्यान उबारून व्हरून ताका माटवा कडेन बसयलो. सॅनसिनी
आपलो आटो घेवन आनी इतन आपलें बॅरींग घेवन हेर भुरग्यां बराबर धांवत आसले.

मोटारसायकलीचो आटो घेवन आयिल्ले सगळेच जाण हारिल्ले. सॅनसिनी कडेन धांवूंक
जायना जावन तो आपूण जावन भायर सरलो. इतना बराबर स्कुटरीचो आटो घेवन आयिल्लो
एकलो आनी हेर सायकलीचे आटे घेवन रिंगणांत उरिल्ले. इतन तांकां बरीच स्पर्धा करतालो.

निमाणे तिगूच जाण उरले. नुवेंचो इतन, माजोड्डेचो तरूण आनी कामील.

तेन्ना पादकुरान एक घोशणा केली. 'ह्या तिगां मदलो हांगा कोण पयलो पावता तो पयलो
थारतलो.'

माजोड्डेचे लोक तरूणाक 'चिअर्स' करूंक लागले. जाल्यार योहन आनी सॅनसिनी
इतनाक 'चिअर्स' करूंक लागले. मोहन आनी सिडनीय इतनाक 'चिअर्स' करूंक लागले.

तिगूय बऱ्याच नेटान धांवताले. अकस्मात इतनान एक नेट धरलो आनी खिणा भितर
पादकुरा फुड्यांत पावलो. तरूण दुसरो आनी कामील तिसरो आयलो.

योहन आनी सॅनसिनीन इतनाक घट धरलो आनी हात दिलो.

सिडनी आनी मोहनूय ताचे फुड्यांत आयले.

पादकुरान जिखिल्ल्यांचीं नांवां सांगलीं आनी रेसींत भाग घेतिल्ल्या सगळ्यांक परबीं

तना रेस बरे भशेन घडून आयली म्हण सगळ्यांचे उपकार मानले. आग्नेलबाब चड उलयलो . पूण भुरग्यांक आनी गांवच्या सगळ्या लोकांक आयच्या दिसाचीं परबीं दिलीं. उपरांत ताच्या तांतल्यान इनामांचें वांटप जालें आनी मागीर सगळ्यांक मिठाय दिली. आग्नेलबाबान इतनाची ब तुस्त केली आनी ताका खास इनाम म्हण आपल्या बॉल्सांतलें भोव मोलाचें उंची पॅन दिलें.

'हुरेऽऽऽऽ' म्हणीत सॅनसिनीन आनी योहनान व्हडल्यान ताळयो पेटल्यो. खुशाल वन नुवेंकार परतूंक वताले. तितल्याक सिडनी आपल्या बापायक घेवन आयलो.

'डॅडी, तांकां मातशे नुव्यांत पावय रे. वताचो रखरख आसा न्हय? बसीन आयल्यात य ते.' सिडनीन बापाय कडेन फावोर मागलो.

'आमी तीग जाण आसात. वतात आयिल्ले तशे.' सॅनसिनीन सांगलें.

'म्हजी मोटारसायकल कसली ती जाणात तुमी? सुपर बुलेट ती. ती चार जाणांक लेगीत सोवन व्हरता. चलात बसात. हांव तुमकां व्हरून नुवें पावयतां.' सिडनीच्या बापायन तांकां नीक उमेद हाडली. तिगांयनी सिडनीचे दिनवास आटयले.

सोबीत, सैमीक आनीक देखण्या माजोड्डेच्या वाठाराचेर तांणी एक नदर घाली आनी चपा खातीर तेंकून मोटारसायकलीचेर बसले.



# लोगोऱ्यो

जुस्त सांजेर तीन वरांचेर सगळे चेडे कपेला कडेन लोगोऱ्यांनी खेळूंक एकठांय जाले सॅनसिनीचे विनवणेन माजोड्डेच्यान नवो खेळ खेळूंक मोहन, सिडनी आनी तांचो इश्ट प्रितेश सायकलीन थंय आयिल्ले. तांणी एकामेकांची वळख करून घेतली आनी तांकां पंगडांत वांटू घाले.

'हे नवे आसात म्हण तांचे खातीर खेळ मातसो समजायतां.' सॅनसिनीन लागीं येवपाची हातान खूण करीत सांगलें. 'आयकात रे, स आठ धा अशे जोडयेन आसले म्हणटकूच दोन पंगड जातात.'

'मांडावळ कशी जाता ती सांग मरे पयलीं. आमच्या गांवांत वचून आमकां खेळूंक नाका?' प्रितेशान म्हणलें.

'ओके, ओके. तेंय सांगतां. सुमार एक फुटाचो एक गोल (सर्कल) काडटात आनी ताचे मर्दी एकार एक सात कट्ट्यो नाजाल्यार सात नळ्यांचे पारे दवरतात. तांकां लोगोऱ्यो म्हणटात. खेळाक दोन पंगड आसतात. एका पंगडांतल्या एकल्यान रबरीचो बॉल घेवन लोगोऱ्यो फोडप जाल्यार दुसऱ्या पंगडांतल्या गड्यांनी तो बॉल जिखपाचो यत्न करप. लोगोऱ्यो फोडूंक शीम घातिल्ली आसता. थंय रावून बॉल घेवन आशिल्लो गडो 'मोखूं?' म्हण प्रस्न विचारता. आनी प्रतिस्पर्धी म्हणटा 'मोख'. बॉल लागून लोगोऱ्यो फोडल्यो जाल्यार फोडपी पंगडांतल्या वांगड्यांनी आपल्याचेर बॉल पडपाचो ना हाची काळजी घेवन लोगोऱ्यो त्या सर्कलांत एकठांय करपाची आंखणी करप.

त्यो लोगोऱ्यो त्या सर्कलांत मांडूंक दिवप ना, हें प्रतिस्पर्ध्यांचें काम आसता. बॉलाचो आदार घेवन हांगाच खेळाची मजा येता.

प्रतिस्पर्धी पंगडांतल्या भुरग्यांनी लोगोऱ्यो फोडपी पंगडांतल्या खंयच्याय भुरग्याचे फाटीर, जांगडार, भुजार बॉल मारल्यार तो बाद जाता. आनी डाव सोंपता. बॉल घेवन फाटीक लागुनूच न्हय, तर आसा थंय रावून बॉल मारूं येता. म्हणटकच बॉल जोखून लोगोऱ्यो मांडूंक

ाडावप होच हेतू. लोगोऱ्यो फोडूंक एकल्याक तीन संदी आसतात. फोडपाच्या यत्नांत बॉल ाखलो जाल्यार गडो बाद जाता. अशे तरेन सगळेच बाद जातकूच खेळ सोंपता आनी प्रतिस्पर्धी ळ खेळूंक येतात.' सॅनसिनीन खेळाची विस्तारान म्हायती दिली.

'बरी मजा आसा. चल, खेळुंया न्हय?' मोहनान हात पांय हालयत विचारलें. सगळेच यार जाले आनी दोनूय पंगडांचे गडे पयस-पयस रावले.

पयलो पंगड आसलो : योहन, मोहन, शेन, इतन जोर्की आनी मिलाग्र आनी दुसरो पंगड ासलो : सॅनसिनी, जॉन, सिडनी, डॉमनीक, प्रितेश आनी पावलू.

कुरूबावलो उडयलो आनी खेळ सुरू जालो. कुरूबावलो सॅनसिनीच्या पंगडान जिखलो. ॉमनीक लोगोऱ्यो फोडूंक मुखार आयलो आनी 'मोखूं?' म्हण डॉमनीकान विचारलें.



'मोख.' योहनान सांगलें. डॉमनीकान बॉल मोखलो पूण लोगोऱ्यो फुटल्यो नात आ
बॉल जॉनान जिखलो. डॉमनीक बाद जालो. मागीर जॉन आयलो. ताणें लोगोऱ्यो फोडल्य
मोहन बॉला फाटल्यान धांवलो. सॅनसिनी लोगोऱ्यो मांडूंक लागलो. मोहनान बॉल आडायल
आनी लोगोऱ्यो लावंक आयिल्ल्या सॅनसिनीचेर मारलो. ताणें चुकयलो. बॉल मुखार गेल
सॅनसिनी परत लोगोऱ्यो लावंक लागलो. इतनान बॉल आडायलो आनी सॅनसिनीच्यो लोगोऱ्
लावन जावंचे आदीं जुस्त पावलूचे फाटीचेर बॉल मारलो. तांचो डाव सोंपलो. मागीर योहन आ
तांचो पंगड मोखूंक आयले.

अशे तरेन कितलोच वेळ ते लोगोऱ्यांनी खेळ्ळे. मोहन, सिडनी आनी प्रितेश खुशा
जावन एक नवो खेळ शिकून माजोड्ड्या परतले.



# दोरयांनी

पोवासांव वाड्यांत आयतार म्हणल्यार खुशालकायेचो दीस. एके वटेन चेडे जाल्यार सरे वटेन चेडवां खेळूंक गुल्ल. केन्ना केन्ना सगळींच एकठांय जावन खेळून आयतार फुलतालो. साक वचपाक कोण एकलो चुकयनासलो.

जाता तितले बेगीन मिसाक वचून आयलीं म्हणटकूच तीं सुशेगाद समजतालीं आनी ळूंक आयतीं जातालीं.

'येनात गो आतां? कितले दीस आदीं प्लान केल्लो आयज दोरयांनी खेळूंक. सगळींच



विसरलीं दिसता.' जॅनीफान आपले गॅलरींत रावून व्हडल्यान उलो केलो. तांचीं घरां तेंकून-तेंकून आशिल्ल्यान बोवाळ मारल्यार रोखडेंच आयकूंक येतालें.

'येतां गो हांव.' मिंगेलीनान म्हणलें.

'हांवूय येतां गो, बांयचेर वचून एक बिंदूल भरून हाडटां आनी येतां.' मिलाग्रीनान म्हणलें आनी तें बांयचेर बिंदूल भरूंक गेलें.

'ऍना, स्वीझल आनी पेरपेत बी खंय गेल्यांत गो?' जॅनीफान परतून व्हडल्यान आवाज दिलो.

'राव गो मातशें. कानयो भाताच्या कोड्याक बांदल्यात. एक सोडटां आनी येतां.' स्वीझलान आपल्या घरांत रावून म्हणलें.

सवका-सवका करून सगळीं जॅनीफाच्या घरा मुखार एकठांय जालीं. आयज सगळ्यां कडेन दोरयो आसल्यो.

'कोण पयलीं खेळटलो?' जॅनीफान विचारलें.

'आयज अशें करूंया. सगळीं एकाच बराबर खेळुंया. पळोवंया कोण कितले रावंड मारतात तीं.' मिलाग्रीनान सांगलें. सगळ्यांनी ताका सहमती दाखयली आनी सगळीं तयार जालीं. तितल्याक ऍम्बर आयलें.

'म्हाकाय दाखयात मगो. हांवूय दोरयांनी खेळटां.' ताणें म्हणलें.

'तूं आनीक येद्या वेळार दाखय म्हण सांगूंक आयलां. आमची सगळी तयारी जाली मुगो. यो बेगीन, हांव तुका दाखयतां. ही दोरी दोनूय हातांनी दोनूय पोंतांक धर आनी पांयां पोंदच्यान काडून माथ्यावयल्यान गोल घुंवडाय. दोरी पांयाक घुस्पून पडशी. सवका सवका ट्राय कर.' जॅनीफान आपणें ताका एक फावट करून दाखयलें. 'तुमी खेळात हांव ऍम्बराक मातशें शिकयतां.' ताणें हेरांक सांगलें आनी तें ऍम्बराक घेवन मातशें कडेक गेलें.

'ही पळय म्हजे कडेन दोरी आसा.' ऍम्बरान आपली दोरी दाखयली. जॅनीफान ती सोडून पळयली.

'ही चड लांब आसा मगो. तूं घुस्पून पडटलें.'

'हय? तूं म्हाका तेंकून यो आनी म्हजे बराबर उडी घे. मागीर पळय दोरयांचो खेळ कतलो मजेदार तो.'

जॅनीफा ताका तेंकून फुडो करून उबें रावलें. ताणें दोरी घेवन झेत केलो आनी आपले कले वयल्यान काडून जॅनीफाचे तकले वयल्यान दोरी उडयली. जॅनीफान उडी घेतली तशीच म्बरान उडी घेतली आनीक एक रावंड काबार जालो. तें थांबलें ना. दोगांय उडयो मारीत वलीं.

तीं खेळटात तें पळोवन हेर सगळीं आपलो खेळ थांबोवन तांकां पळोवंक लागलीं. दोग णां बराबर खेळूंक जाता म्हण तांणी केन्ना चिंतूंक नासलें. मागीर ऍम्बरान क्रॉस हॅण्ड्स करून डयो घेवन दाखयल्यो. ते उपरांत दोग जाणांनी दोन पोंतां धरून एकल्यान ताचे वयल्यान डी घेवंक दाखयलें. जे दोरयांचे खेळ तांकां खबर नासले ते ताणें दाखयले. ऍम्बर दोरयांनी ळूंक बरेंच हुशार आसलें.

'कसो लागलो म्हजो दोरयांचो खेळ?' ऍम्बरान तांकां विचारलें. तीं अजाप जावन ाकाच पळोवंक उरलीं.



# भुरगें मन

'काल आमगेर लादायन आसली. तूं कित्याक येवंक ना रे?' सॅनसिनीन ट्युशनाक सावन येताना योहनाक विचारलें. योहनान तकली खरपिली.

'काल होमवर्क करूंक ना म्हण मम्मीन तापयलो. एक थापटूय दिलें. ते खातीर घरांतल्यान भायरूच सरलों ना.' योहनान सांगलें.

'जाणा योहन, लादायनीक जायते फोगेटींचे माराण हाडिल्ले. सुकूरान तीन पेटयले. तांतुंतलो एक पेटूंक ना अशें म्हाका सारकें दिसलें. आवाज थांबले उपरांत हांव मुद्दम पळोवंक गेलों. खरेंच एक पेटनासताना उरिल्लो. त्या वेळार हांवें तो काडूंक ना. लादायन सोंपून सगळे लोक घरा वतकूच हांव ल्हवूच भायर गेलों आनी तो फोगेटींचो माराण काडून दवरलो. तो म्हजे कडेन आसा. मागीर पेटोवंया मरे?'

'बेश्टोच पेटोवंया किर्ते? तसोच पेटयल्यार एकेच फावटी ना जातलो. तो माराण आमी सोडोवंया आनी एक-एक करून पेटोवंया आनी ताचो नवो एक खेळ खेळुंया.' योहनान फाटी वयलें बॅग सारकें करीत नवी मांडणी काडली.

'तशें जाल्यार हो खेळ खेळूंक आमी उंच दोंगरार या. थंय माकड येतात. तांकां बेश्टेच भेशटावन काडुंया.' सॅनसिनीक आनीक नवें सुचलें.

'आरे, येनात तुमी? ते सगळे रावतात मरे कोंयडे-बालांनी खेळूंक.' हे दोगूय मेंग्यां भशेन चलतात तें पळोवन खेळूंक तयार जावन आशिल्ल्या फिलीपान तांकां नवो विचार सांगलो.

'बॅगां दवरून येतात आमी.' योहनान चलपाचो नेट वाडयलो.

थोड्या वेळान कोंयडे-बालांनी खेळपाक दोगूय कपेला कडेन आयले. सोहनाक थंय पळोवन ते अजाप जाले.

'तूं आमच्या गांवांत रावूंक येवन आमकां आनीक एक गडो मेळ्ळो. असोच यो केन्ना केन्ना. खेळुंया मरे कोंयडे-बालांनी?' सॅनसिनीन ताका विचारलें.

'कोंयडे-बालांनी म्हणल्यार कितें रे?' सोहनान विचारलें. ताका ह्या खेळाचें नांव नवें ासलें.

'कोणा-कोणाक खेळूंक कळना ते मातशे मुखार येयात. हांव तांकां आदींच नेम सांगतां. दीं मागीर चुको करूंक नाकात.' योहनानूच फुडाकार घेतलो कोणाक कळना तांकां सांगूंक. ार पांच जाण मुखार आयले.

'आतां आमी खेळूंक वतात त्या खेळाक म्हणटात कोंयडे-बाल वा गोंजे-बार. गांवां-ांवां प्रमाणें भाशेचे शैलीक लागून अशें जाता. हो सुमार एक वा देड फुटाचो कोंड्या कुडको, ाका कोंयडो म्हणटात,' ताणें आपल्या हातांतलो कोंड्या कुडको दाखयलो. 'हें आसा बाल वो ार.' ताणें चार पांच इंच कोंड्या कुडको दाखयलो जो कोंड्या परस मातसो बारीक आनी ताका ोनूय वटांनी गुळगुळीत केल्लीं पोंतां आसलीं. मागीर ताणें एक बडी दाखयली जे वरवीं बाल ोलतात वा पयस मारतात. 'ही जावन आसा खोलणी.' योहनान मुळाव्यो वस्तू दाखयल्यो.

'कशें खेळपाचें ह्यो वस्तू घेवन?' सोहनान विचारलें. तेन्ना थंय सुमार दोन इंच लांब चीर ा हूर आसली ताचेर योहनान बाल दवरलें आनी चिरी पासून त्या कोंड्याची लांबाय धरून तो ोंयडो आडवो लायलो. मागीर चिरींत खोलणी घालून ताचेर दवरिल्लें बाल खोल्लें.

हे तरेन कशें खेळप हें ताणें एक फावट करून दाखयलें.

'खोलपी पंगडाचे वांगडी खोलप्याचो अदमास घेवन मुखार रावतात. थंय रावून हें बाल ाणी क्रिकेट बॉला भशेन जिखलें जाल्यार तो गडो बाद जाता.' योहनान अदीक म्हायती दिली.

'आनी जिखलें ना जाल्यार....' फिलीपान विचारलें.

'राव रे, सांगतां न्हय? जिखलें ना जाल्यार कोण तरी एकलो जाका तीर बरो आसा तो ुखार सरून हें बाल कोंयड्याक मोखता. मोखल्यार तो गडो बाद जाता.'

'आनी कोंयड्याक मोखलो ना जाल्यार...?' पावलून विचारलें.

'तुमी सारके लोले अशे मरे, कांयच कळना खेळांतलें. मुखार आयकात. तो बाद जालो ना जाल्यार खोलपी आसा तो कोंयडो घेवन बालाच्या पोंताचेर कोंयडो मारून तें वयर उबारता ानी ताचे कडेन खेळटा. एक फावट, दोन फावटी(डबलींग), तीन फावटी (टिबलींग), चार

फावटी (चौंबर्लींग) अशे तरेन खेळयता आनी ताचेरूच शेवटून मारता. तें शेवटून मारताना जिखलें जाल्यार तो बाद जाता. जितले फावटी तें बाल तो आपल्या कोंयड्याचेर खेळयता तितले पटीन ताका गूण मेळटात. पूण ते गूण अदमासान सारके मागूंक जाय. चूक मागल्यात अशें दिसता जाल्यार प्रतिस्पर्धी पंगडान तपासूंक जातात. चूक आसल्यार तो गडो बाद जाता. अशे तरेन खोलपी पंगडाचे सगळे गडे खेळून गूण मेळयतात. सगळे बाद जातकूच मोखपी पंगडाचे गडे खेळटात. कोणाक कितें विचारूंक जाय?' योहनान सगळ्यांचेर नदर मारली.

'जानोत आसा मरे खेळ, क्रिकेटी परस उमेदीचो दिसता.' जॉनान म्हणलें.

'एक फावट खेळून पळोवंया.' योहनान सांगलें. 'चलात, दोन पंगड करुंया.' सॅनसिनीन स-स जाणांचे दोग पंगड केले आनी सगळे भुरगे खेळूंक तयार जाले. पंगड वांगडी एकामेका कडेन भासाभास करतात म्हणल्यार थोड्यांनी येसाय मारली.



'हो नवो खेळ खेळूंक हांव जाल्यार उमेदीर आयलां.' फिलीप उद्गारलो.

'चल हांकां आमी जिखून आनी मोखून बाद करुंया.' शेनान उमेद दाखयली. डॉमनीक
ाका घुरून पळोवंक लागलो.

'तितलें सोंपें ना रे तें.' योहनान ताका कांय न्हय केलो.

'चॅलेंज मारता?' शेन मातसो गिरेस्त घराण्यांतलो. देखून तो रोखडोच आव्हानात्मक
ास उलयता. एक फावट फुटबॉल गेमीक गेल्लो. तेन्ना साळगांवकार स्पोर्ट्स क्लब आनी चर्चील
दर्स खेळटाले. फाटलो फुडलो विचार करिनासताना बॉल्सांत आशिल्ले पांचशीं रुपया पैज
ायली आनी नशीब पळयात. तो पैज जिखलो. हें भुरगे जाणा आसले.

'चॅलेंज नाका.' योहन फार्टी सरलो.

'भियेलो मरे? म्हज्या तिरा फुड्यांत तुमी तिगूंक आयल्यात? कितलेय पयस रावून ह्या
ोंज्याक मोखूंक कांयच न्हय म्हाका.' तिरादोर जोकींन सांगलें.

आंब्याचीं तोरां बी उडोवंक सारको कापाज हो. आंब्याच्या दिसांनी हाका व्हेले बगर ते
ोरां काडूंक वचनासले. वेळ पिड्ड्यार करिनासताना तांचें काम जातालें.

'बरें-बरें पळोवंया, चल खेळुंया आतां.' सॅनसिनी खेळूंक तयार जालो. भुरगे खेळांत
मून गेले.



# कोंयडे-बाल

पोवासांव वाड्यांत कोंयडे-बालाचो नवो खेळ सुरू जालो. एका पंगडाचो मुखेली जालो शेन जाल्यार दुसऱ्या पंगडाचो मुखेली जालो सॅनसिनी. शेनाच्या पंगडांत शेन, सावयो, तिरादोर जोकीं, मिलाग्र, इतन आनी पावलू जाल्यार सॅनसिनीच्या पंगडांत उरले सॅनसिनी, सोहन, योहन, जॉन, डॉमनीक आनी फिलीप.

शेनान कुरूबावलो उडयलो आनी कुरूबावलो सॅनसिनी जिखलो. ताणें पयलीं खोलूंक घेतलें. शेन आनी ताचे गडे सॅनसिनी बाल कितले पासून पयस मारूंक शकता हाचो अदमास लावन पसरले. वेळ व्हगडायनासताना ताणें कोंयडो लायलो. आनी बाल चिरीचेर दवरलें.

'खोले?' सॅनसिनीन खोलूंक परवानगी मागली.

'खोले,' मिलाग्रीन जाप दिली.

सॅनसिनीन बाल खोल्लें. ताचो खोलपाचो अदमास घेत पावलू तयार रावलो. सॅनसिनीन बाल खोलतांच पावलून एक उंच उडी घेतली आनी बाल जिखलें. सॅनसिनी बाद जालो. रागान कोंयड्याचेर खोंट घालून तो गेलो.

सोहन आयलो. ताणें कोयडो सारको केलो. हे बाल जिखपाक हुशार आसात म्हण ताणें वळखलें आनी बाल झरकटत खोल्लें. आतां तिरादोर जोकीं मुखार सरलो आनी ताणें बाल जुस्त कोंयड्याक मोखलें. सोहनूय एकूय गूण जोडीनासताना बाद जालो. दोन गडे बाद जावन लेगीत तांचो एकूय गूण जावंक नासलो. आतां मुखार आयलो योहन. तो कोंयडे-बाल खेळूंक खूब हुशार. ताणें बाल खोल्लें आनी तें बरेंच पयस पडलें. तिरादोराच्यान आतां मोखूंक जालें ना. योहनान कोंयडो घेतलो आनी बालाच्या पोंतार मारून बाल वयर उबारलें आनी बाल शेवटून मारलें.

'म्हाका पन्नास दी.' योहनान गूण मागले. शेनाचे वांगडी अदमास लावंक लागले ते पन्नास जावंक शकतात जाल्यार. समजता तांणी मान्यताय दिली.

'व्हर तुका.' शेनान ताचो अदमास सारको लायलो. तांचे पन्नास गूण जाले. मागीर

ोहनान परतून बाल खोल्लें. आतां सावयो मोखूंक आयलो. ताचे कडेनूय मोखूंक जालें ना. ोहनान आतां आपली कळाशी दाखयली. बाल पयले फावट, दुसरे फावट, तिसरे फावट अशें ाठ फावटी खेळयलें आनी मारलें. तें पयस पडलें.

'आतां म्हाका तिनशीं जाय,' योहनानूच मागले. शेनान ताचो अदमास पळयलो आनी ञ्हर' म्हणीत तो आपल्या जाग्यार गेलो.

योहनान परतून बाल खोल्लें. जोकींन परतून एक फावट कोंयडयाक मोखपाची संद ोतली, पूण बाल चुकलें. योहनान आतां म्हणल्यार आपल्या दोनूच डावांनी साडे तिनशीं गूण ोल्ले. आतां ताका परत एक संद मेळिल्ली. ताणें कोंयडो घेतलो आनी बाल खेळूंक लागलो. पांच ावटी खेळयले उपरांत ताका दिसलें बालाचो तोल वता, तेन्ना ताणें तें शेवटून मारपाक चिंतलें.



हो गडबडलो तें वळखून मिलाग्रीन पवित्रो घेतलो आनी बालाचेर नदर दवरून रावलो. योहनान बाल मारलेंच, पूण सारकें मिलाग्रीच्या हातांत. योहन बाद. शेनाच्या पंगडान ताळयो मारल्यो. जॉन आयलो. ताणें वीस गूण घेतले. पूण जोकींच्या अचूक तिराक तो बळी पडलो आनी बाद जालो. ताचे फाटल्यान डॉमनीक आयलो आनी रोखडोच बाद जालो. निमणो उरलो तो फिलीप ताणें योहना भशेन बरोच खेळ केलो. दोन फावटी बाल मुखार मारून दोनशीं गूण घेतले. हेरांनी 'शाब्बास' म्हणून उमेद दाखयली. तेन्ना ताका मातसो गर्व चडलो. उपरांत ताणें चार फावटी बाल खेळोवन बरेंच मुखार मारलें. आपूण योहना परस चड गूण घेतलों ह्या अभिमानान तो वागलो.

'म्हाका चारशीं दी.' फिलीपान मागलें.

'ना. तुका चारशीं दिनां.' शेनान सांगलें. ताणें कोंयडो घेतलो आनी मेजूंक लागलो. चारशीं गूण दिवंक ताचें बाल शंभर कोंयडे पयस पडूंक जाय आसलें. पूण तें अंयशीं आनी चार कोंयडेच मुखार आसलें.

ताचो अदमास चुकिल्लो. फिलीपान परतून मेजूंक मागलें. शेनान परतून मेजलें आनी ताचें मेजप सारकेंच आसलें. अशे तरेन एकूच फावटी चड खावंक गेल्लो फिलीप बाद जालो आनी तांचो डाव सोंपलो. तांचे सगळे मेळून पांचशीं सत्तर गूण जाल्ले. सॅनसिनी ताचेर समाधानी आसलो.

शेन आनी ताचो पंगड खोलूंक आयलो. आपल्या डावांत शेनान एकशें चाळीस जाल्यार सावयोन दोनशीं धा गूण मेळयले. जोकीं आनी इतन रोखडेच बाद जाले. मिलाग्रीन मात साठ गूण घेतले. पूण पावलून उरिल्ले गुणूच न्हय तर तीस गूण चड घेतले आनी तांचो पंगड जिखलो. 'शेना कडेन पैज मारिल्ली जाल्यार ....?'

'आमचे मर्दी कितले बरे खेळगडे आसात. हो सावयो आनीक बरो खेळटा मरे. आमी दुसऱ्या वाड्यां कडेन कित्याक खेळनात? चॅलेंज जाल्यार चॅलेंज लावंया.' शेनान विचार मांडलो. 'हांव इगर्जे भाटांतल्या डायगो कडेन उलयतां. फुडल्या आयताराक दवरुंया मरे मॅच? आसात मरे तयार खेळूंक कोंयडे-बाल?' सॅनसिनीन विचारलें.

सगळ्यांनी 'येस' म्हणून एकूच बोवाळ मारलो.

# दोंगराचेर पिकनीक

आवा-शिवा करून भुरग्यांनी आपली निमाणी परिक्षा सोंपयली. इश्कॉल चालू आसताना नेगीत तीं ना-ना तरेचे खेळ खेळ्ळीं. खेळूंक जाणांत तांचे बराबर तीं नवे खेळ शिकलीं. कोणाक कळना तांकां नवे खेळ शिकयले. पोवासांव वाड्यान फाटले कितलेशेच म्हयने स्थानीक आनी नव्या इश्टां उदोरीं खेळा मळार एक प्रकारची क्रांती केल्ली. आतां निमाणी परिक्षा सोंपिल्ल्यान तीं बिनधास्त जाल्लीं. गरमेची लांब सुटी पडिल्ली.

नव्या खेळाच्या आनी परिक्षेच्या अभ्यासा बोवाळांत सॅनसिनी कडेन आशिल्ल्या फोगेटींच्या माराणाची याद कोणाकूच आयली ना.

वाड्यार पयस खंय तरी फोगेटी पेटल्यो आनी फिलीपाक ताची याद जाली. ताणें सॅनसिनीक कळयलें. ताणें योहनाक याद केली. ताणें जॉन, डॉमनीक, इतन आनी सगळ्यांक खबर सांगली. मागीर सगळ्यांनी मेळून एक वेगळीच मांडणी करून दोंगरार वचून पिकनीक करपाचें थारायलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं पिकनीकेक वचपाची तयारी सुरू जाली. कोण घरा कडल्यान उदकाच्यो बाटल्यो घेवन आयले. कोण बूट घालून जाल्यार कोण जोतीं घालून आयले. शेनान मात चकचकीत सॅन्डल घाल्ले. सगळे कपेला कडेन एकठांय जाले. मनांतल्यान घडये तांणी देवा कडेन मागलें. योहन पांच लिटरांचो कॅन भरून उदक घेवन आयलो. आनीक कोण येवपाचो ना हाची खात्री करतकूच पोवासांव वाड्या वयले कितलेशेच लापीट शिमीतेरी फाटल्यान आशिल्लो दोंगर चडपाक लागले.

फोगेटींचो माराण आनी एक माचीस सॅनसिनीन लिपोवन कागदाक गुठलावन घेतिल्लीं. आयज फोगेटींचो खेळ आसलो.

'हे, काजू पिकल्यात मरे.' डॉमनीकान पिकून लांबतल्या हळदुव्या काजूंक पळोवन म्हणलें.

'आरे, त्यो फालेर भाटकाराल्यो, हात लायनाकात. कळत जाल्यार सोमतोच फाटीक

लागतलो.' सॅनसिनीन आपल्या सांगात्यांक शिटकावणी दिली. उलयत-उलयत हांसत मस्कऱ्यो करीत ते वताले.

'कोण रे थंय? बियो चोरूंक आयल्यात?' भाटकाराल्या मनशाचो आवाज आयकूंक आयलो.

'ते वटेन गेल्यार बरे. तें कोमुनिदादिचें भाट. बियो मेळटल्यो. बियांनी खेळुंया मरे?' जॉनाक सुचलें. सगळ्यांची नदर ते वटेन गेली. तांणी वाट बदली आनी ते कोमुनिदादिच्या भाटांतल्यान चलूंक लागले. पिकिल्ल्यो काजू आसल्यो आनी बियोय आसल्यो. काजू खायत आनी बियो एकठांय करीत ते मुखार वचूंक लागले. जोकीं, मिलाग्र आनी फिलीप चुन्नां, चारां आनी काण्णां खायत दोंगराच्या माथ्यार पावले. थंय एक व्हडलो आंबो आसलो पूण ताका एकूय तोर जावंक नासलें.

हेर सगळें मळ. सॅनसिनीन जांबळां काडलीं आनी सगळ्यांक वांटलीं. सगळ्यांचीं तोंडां जांबळींच जालीं. मागीर थोड्यो काजू काडल्यो आनी त्यो खावन तोंडां मातशीं निवळ केलीं. योहन मात पांच लिटर उदकाचो कॅन हाडटा म्हणल्यार जार जाल्लो.

'मातसो सुशेग घेवंया मरे!' मिलाग्रीन सुचयलें.

'चल या. इल्लें उदक पिवंया.' थंय आशिल्ले काजू मुळांत ते बसले. काजुचीं सुकिल्लीं पानां थंय पडिल्लीं आसलीं. तांतूंत कांय बियांच्यो काजू पडिल्ल्यो आसल्यो. त्यो काडल्यार खेळूंक मेळटलें अशा मनान डॉमनीकान काजुंच्यो बियो वळूंक पाल्यांत हात घालो. ताच्या हाताक कितें तरी मोव-मोव लागलें. ताणें अकस्मात आंग काडलें. तो फाटीं सरलो.

तो फाटीं सरतांच पाल्यांतल्यान 'सर सर' करून आवाज येवंक लागलो. सगळेच उठले. पळयत जाल्यार एक व्हडलो सोरोप (हार) कांस घालूंक लागलो. तो थंय गुठली करून आसलो. सवका सवका तो मुखार सरूंक लागलो. करतां-करतां सुमार पांच-स मेत्रां लांब जालो. आनी जमनीचेर ओडत ओडत मुखार गेलो. सगळ्या भुरग्यांचो स्वास कांय खिणांक थंयच थांबलो.

'आमकां पिकनीक बरीच म्हारग पडपाची मरे?' भियेल्ल्या डॉमनीकान आपल्या हड्ड्याचेर हात दवरीत म्हणलें.



'तो मनशांक कांयच करिना, तुमी भियेनाकात.' जोकींन तांकां धीर दिलो.

'हांव जाल्यार सारकोच भियेल्लों.' योहनान सांगलें.

दोंगरावयले पिकनीकेन तांचेर सारकोच कांपेरो हाडलो.

'चलात, आतां आमी मुखार या आनी फोगेर्टींच्या खेळाची तयारी करुंया.' सॅनसिनीन सांगले.

'इतल्यो काजुबियो आसात मरे, त्यो घेवन पयलीं बियांनी खेळुंया.' इतनान म्हणलें आनी बियो वळूंक लागलो. मागीर सगळेच लागून पडिल्ल्यो बियो काडल्यो. हाराची भिरांत विसरून ते चलूंक लागले.

# बियांनी

दोंगराच्या मळार एका वडाच्या झाडा पोंदाक सगळे एकठांय जाले. गरमेच्या वताच्या भगभगान ते मातशे थकून गेल्ले, घामाघूम जाल्ले. देखून थोडो वेळ बसले आनी हाडिल्लें उदक पियेले.

'आतां सगळ्यां कडेन बियो आसात. काडात त्यो बेगी-बेगीन. पयलीं बियांनी खेळुंया.' योहनान तयारी केली आनी आपले कडेन आशिल्ल्यो सुमार चाळीस बियो सकयल दवरल्यो.

'चलात तर.' डॉमनीक तयार जालो.

'म्हजे कडेन बियो आसात. पूण म्हाका खेळूंक कळना.' शेनान सांगले.

'कसलो भुरगो रे हो? आयक तर. ह्या खेळांत मुखार आसता पीक. ताका उबो लायतात. ताका तेंकून आसता ती ताची बायल. तिका राणी कशी आडवी लायतात. तिका तेंकून पूण एकामेकांक आपटनात अशे तरेन हेर बियो लायनीन लायतात. सारक्योच चड आसल्यार निमाणे कडेन पुंजाक घालतात. मोखतल्यान बायलेक हालयनासताना पिकाक काडलो जाल्यार सगळ्यो बियो ताका मेळटात. पीक नाका जाल्यार मर्दीय मारूंक जाता. पूण आजू-बाजुची बी हालूंक जायना हाची जतनाय घेवंक जाय. मोखिल्ले बियेचे उजवे वटेन आसात त्यो बियो ताका. बियो लायतात ताचे फाटल्यान एक देड फूट पयस एक आडवी लायन मारतात. मोखतकूच त्यो लायनी भायर पडूंक जाय.' सॅनसिनीन थोडे भितर खेळाची म्हायती दिली.

'पूण पयलीं कोणें मोखचें हें कशें थारावप तें सांगलेंच ना मरे तुवें.' शेनान परतून तोंड घालें.

'आपले कडेन आशिल्ल्या बियां मदली एक बरी घट वा मोटी बी मोखपाक घेवप आसता. ताका भोंटो म्हणटात. लायनी कडल्यान तो भोंटो पयस उडोवंक जाय. जाचो भोंटो पयस पडटा ताणें पयलीं मोखप. तो चुकलो जाल्यार ताका तेंकून आसा ताका संद मेळटा.'

'पयलो मोखता ताणें पीक काडलो जाल्यार हेरांनी कितें करपाचें?' शेनान बरो प्रस्न केलो.

'कितें रे तुका बारीक बारीक सांगूंक जाय? त्यो बियो ताच्यो जाल्यो नात? मागीर दुसऱ्यो बियो लावन खेळ परतून सुरू जाता.' सॅनसिनीन सांगलें.

'बियांनी खेळटले म्हण पयलीं सांगिल्लें जाल्यार हांव म्हजे खातीर घराकडेन आशिल्लो पेजाद भोंटो हाडपाचों मरे.' तिरादोर जोकींन सांगलें.

'पेजाद आनीक म्हणल्यार कसलो?'डॉमनीकान विचारलें.

'आरे, भोंट्याचें मूख फोडून तांतुंतलो मोवलो व्हिरान ना जाल्यार पीन घेवन काडटात आनी तांतूंत चीम भरतात. तो भोंटो जड जाता आनी फोर्सान मोखूंक पडना. बियेक मोखतांच ती कितलीच पयस पडटा. समजलें? म्हजे कडेन तीन चार आसात.' जोकींन सांगलें.

'तकली बरीच चलता मरे तुजी.' डॉमनीकान ताची बरीच तुस्त केली.

'कितल्यो-कितल्यो लावंया? तीन तीन पुरो दिसता म्हाका. खूब जाण आसात न्हय आमी?' योहनान म्हणलें. ते प्रमाणें सगळ्यांनी तीन तीन बियो लायल्यो आनी खेळ सुरू जालो.



सगळ्यांनी आपले भोंटे उडयले. जॉनाचो भोंटो सगळ्यां परस पयस पडलो. ताका मोखपाची संद मेळ्ळी. पूण ताचो तीर चुकलो. दुसरो आयलो तिरादोर जोकीं.

'आतां आमकां ह्या डावांत खेळूंक मेळटलें जाल्यार दुबाव.' योहनान म्हणलें. तो गड्ड्यांनी मोखूंक हुशार म्हण तांकां खबर आसली. जोकीं हांसलो. ताणें सरळ पिकाक मोखलो. पीक लायनीच्या भायर पडलोच पूण पिकाची बायल हाल्ली आनी आडवी पडली. सगळ्यांनी खुशालकायेचो सुस्कार सोडलो. ताचो डाव गेलो. पिकाक परतून आशिल्ल्या जाग्यार लायलो. मागीर शेनाची पाळी आयली. ताका बियां खेळाची कांयच खबर नासली. देखून ताणें मोखूंक जाय म्हण मोखलें. ताचे उपरांत जोहनान मदले बियेचेर घुरी घाली आनी ताचे मुखावेल्यो सूमार धा बियो ताका मेळ्ळ्यो. पीक आनी पिकाची बायल बियांक घेवन आजुनूय थंयच आसलीं. सॅनसिनीन पिकाचे बायलेक काडली आनी थोड्यो बियो आपल्या ताब्यांत केल्यो. हेर सग़ळे खेळून निमणो उरिल्लया एकल्याच पिकाक योहनूय मोखूंक शकलो ना. डाव अर्धारूच उरलो.

'हाकाच आता पांच पांच लावंया.' योहनान सांगलें.

'म्हजे कडेन कमी आसात मरे.' फिलीपान म्हणलें. ते चुन्नां खावंक उरले म्हण बियो काडूंक पावले नात.

'म्हज्यो व्हर रे.' योहनान एक मुटभर बियो ताका दिल्यो. जण एकल्याच्यो पांच पांच बियो लावन रेल्वे डब्यां भशेन लायन बरीच व्हडली जाली. थोड्यो पुंजाक घाल्यो.

अशे तरेन ते बरोच वेळ खेळ्ळे. वत माथ्यार पावलें तेन्ना तांणी विसव घेतलो. काजू खाल्ल्यान तांकां भुकेची याद जाली ना.

'आतां थोड्यो बियो भाजून खावंया मरे?' जोकींन नवो विचार मुखार हाडलो.

'हें मात बरें सांगलें तुवें. जायतो तेंप जालो भाजिल्ल्यो बियो खावंक नासल्यो.' मिलाग्रीच्या तोंडाक उदक सुटलें. फोगेटी पेटोवंक माचीस हाडिल्लें आसलें. सगळ्यांनी मेळून करड,पालो, सुक्यो बडयो पुंजावन हाडल्यो. जोकींन थोडें करड पोंदाक घालें आनी वयल्यान आपले कडेन आशिल्ल्यो बियो घाल्यो. मागीर हेरांनी बियो घाल्यो. त्यो विकून पयशे करपाचें कोणाच्याच मनांत नासलें. देखून एक लेगीत भायरायनासताना उणेंच दोनशीं-अडेचशीं बियो करडाचेर पडल्यो. तांचेर आनीक करड, पालो आनी बडयो घालून जोकींन उजो घालो.

'हॅलो सॅनसिनी, फोगेर्टीचो माराण खंय रे?' फिलीपान परत फोगेर्टीची याद केली. इतल्यांत बियो भाजूंक लागल्यो.

उज्यांतल्यान दीख सोरपा भशेन फोडणां घालूंक लागलो.

'आरे पयस रावात. दीख उसळून पडटलो.' जोर्कीन उज्याक तेंकून आशिल्ल्यांक शिटकायले आनी एक लांब बडी घेवन बियो चाळूंक लागलो. उज्याचो अवतार पळोवन थोडे भियेले. 'फूस फूस' करून दीख शेवटतालो आनी जोर्की बियो चाळटालो. ताका भिरांत दिसनासली. तितल्याक सॅनसिनी आनीक बडयो घेवन उज्यांत घालूंक आयलो. जोर्कीन ताका आडायलो.

'आतां बियांनी पेट घेतला. बडयांची गरज ना.' जोर्कीन सांगलें.

'तांतुंतूच उडोवंया मरे फोगेटी?' डॉमनीकान विचारलें.

'पिसो मरे. त्यो धारेन भरिल्ल्यो बियो खातलो मागीर?' सॅनसिनीन डॉमनीकाचें नेणारपण उक्तें केलें.

अशे तशे घुंवतात म्हणल्यार बियो भाजून जाल्यो. जॉर्कीन बडयेनूच त्यो भायर काडल्यो. सॅनसिनीन आनी योहनान तांचे सगळ्यांक एक सारके वांटे केले.

जण एकलो एका फातराचेर दवरून दुसऱ्या फातरान बियो फोडूंक लागलो. थोडे फोडटां-फोडटां खावंक लागले. गरम-गरम बियांच्या मोवल्यांनी तांचे जिबेक नवी रूच हाडिल्ली. निमाणे कडेन सगळ्यांचे हात काळे जाल्ले.

हात धुवंक उदक ना मरे.' इतनान म्हणलें. तांणी हाडिल्लें सगळें उदक काबार जाल्लें.

'दोंगराचेर उदक खंयचें मेळटलें? काजुंच्या रसान धुवंया हात.' जोर्कीच्या उतरांनी सगळे एके काजू कडेन गेले. आनी काजू हातांक घांसूंक लागले.

'हाणें हात निवळ जातात?' मिलाग्रीन विचारलें.

'निदान दीख तरी कमी जातलो न्हय? शेनान म्हणलें.

एक बरो व्यायाम तांणी सुरू केलो.





# फोगेटींचो खेळ

हातांक काजू घांसून-घांसून सगळे लापीट सुस्त जाले. रसाच्या वासान तांचो मेंदू भरिल्लो. पूण कितें करतले? पिकनीकेक म्हण भायर सरिल्ले. थोड्यांच्या पोटाक भुकूय लागिल्ली.

'आतां तरी मारूंया मरे फोगेटी. वचपाची तयारी करूंक नाका?' तकली खरपीत फिलीपान सांगलें. ताका फोगेटी मारले बगर थार नासलो.

'फोगेटी मारूंया खंय? फोगेटींचो खेळ खेळुंया. आयज मेरेन कितल्या तरांचे खेळ आमी खेळ्ळे, तांतूंत हो नवो खेळ.' योहनान म्हणलें.

'सारकें सांगलें तुवें. हांव माराण सोडटां आनी एक-एकल्या कडेन एक-एक फोगेट



दितां. प्रत्येक जाण आप-आपली फोगेट पेटोवंया आनी वयर उडोवंया.

कोणाची वयर पडटा आनी कोणाचे फोगेटीचो आवाज चड जाता तें पळोवंया.' सॅनसिनीन सांगतां-सांगतां माराण सोडयलो. मागीर एक-एकल्या कडेन एक-एक फोगेट दिली. योहनान ताचे कडेन आशिल्ल्या कागदाक उजो घालो.

'पयलीं एक फोगेट पेटोवन हांव ट्राय मारतां.' म्हणीत योहनान एक फोगेट पेटयली आनी वयर उडयली. फोगेटीचो व्हडल्यान आवाज जालो.

'मागीर हांवूय एक पेटयतां.' म्हणीत फिलीपान एक पेटयली. ती 'फुस्ससSSSS' करून ताच्याच हातांत जिरली. ताणें बेगीबेगीन भियेवन हात फार्टी काडलो. सगळेच हांसूंक लागले.

'हो पळय, माकोड आमकां पळयता. हांव फोगेट पेटोवन ताचे वटेन उडयतां.' सॅनसिनीन माकडाक पळयत म्हणलें. तो माकोड 'कीं- कीं ' करीत हांसूंक लागलो.



सॅनसिनीक राग आयलो. ताणें फोगेट पेटयली आनी ताचे वटेन शेवटून मारली. फोगेट मोटो आवाज करून पेटली. माकोड उडयो मारीत धांवत सुटलो. पूण एक आकांत निर्माण जालो. फोगेट सकयल पडटाना वता कडान सुकिल्ल्या करडाचेर पडली. करडान पेट घेतलो. आपल्या हातांत आशिल्ल्यो फोगेटी थंयच उडोवन सगळे बेगीबेगीन उजो पालोवंक धांवले.

'ताळे काडात बेगीन. हातान उजो पालवता?' योहनान बोवाळ मारलो. ताळे काडटात म्हणल्यार भर वताचेर उजो व्हडलो जालो. सगळे मेळून अशे तशे धांवून उजो पालोवपाचो यत्न करूंक लागले. उजो कसोच पालवना जालो. ह्या बोवाळांत उज्यान योहनाक आपल्या पागेरांत घेतलो. तो मर्दीच शिरकून उरलो आनी ताच्या कपड्यांक उजो लागलो. ताणें किळांच मारली. जोकीं धांवून ताचे फुड्यांत गेलो.

'आरे, योहनाक उजो लागला, येयात धांवून.' जोकींन व्हडल्यान सांगलें. सगळे उज्या कडच्यान धांवून योहना फुड्यांत आयले. जोकींन ताचो बुशर्ट पिंजून काडलो पूण आंग बरेंच भाजिल्लें पळोवन सगळेच भियेले.

'उजो पालोवंचो वा योहनाक घेवन वचचें?' तांचे मुखार प्रस्न उबो जालो. उजो तसोच सोडून ते योहनाक घेवन घरचे वाटेक लागले.

फोगेटींचो खेळ थंयच उरलो. पयलेच फावट तांचो खेळ असो अर्द्यार उरिल्लो.



# उज्याचो परिणाम

दोंगराचेर उजो लागला म्हण सगळे कडेन बोवाळ पडलो. पुराय नुवें गांव धांवपळ करूंक लागलो. कोण दोंगराचेर उजो पालोवंक धांवले जाल्यार कोण पोवासांव वाड्यांत आयले.

'कोणें घालो हो उजो? पोवासांव पावले बराबर सांतान मावशेन रागान आरड मारली.

'आगे, ते भुरगे खेळूंक गेल्ले. तांचेकडेन लागलो तो.' स्कुटरीन हॉस्पीटलांत वचूंक भायर सरिल्ल्या सॅनसिनीच्या बापायन सांगलें आनी तो गेलो.

'सगळ्यो काजू लासून गोबोर जालो मरे.' सांतान मावशी तिडकली.

'हांवें जोळोव बांदून दवरिल्लो, तोय गोबोर जालो.' दुसऱ्या वाड्यावयल्या नरेंद्रान येवन बोवाळ सुरू केलो.

'हांवें कितले फावटी सांगिल्लें ह्या भुरग्यांक दोंगराचेर वचपाचें बंद करूंक जाय म्हण.' जाणटेलो ऍन्ड्र्यू बडबडूंक लागलो.

'आरे, तुमी बोवाळ मारलो म्हण कितें जावपाचें आसा. तो बावडो एकलो उजो लागून हॉस्पीटलांत पावला. तें तरी तुमकां खबर आसा? ताचें तुमकां कांयच पडून वचूंक ना?' जॅनीफाचो बापूय हॉस्पीटलांत वतना तांकां म्हणूंक लागलो. 'मनीस मरे तुमी? तुमचीं लाकडां आनी काजू पळयतात ते, लासला त्या मनशाक पयलीं पळोवंक वचात रे.' तांचेर तिडक काडून तो गेलो.

योहनाची तांकां खबर नासली. दोंगरार उजो लागलो म्हणून तांचें लुकसाण जालां ताणें बोवाळ मारप सभावीक आसलें. पूण हांगा कोणाक तरी उजो लागला ताचे खातीर कितें? योहनाची भलायकी बरी ना म्हण सगळोच वाडो हॉस्पीटलांत धांविल्लो. हें आयकून जे बोवाळ मारीत आसले ते परत गेले.

आयज आयतार आसुनूय कोणाचोच आवाज नासलो. हरशीं दनपार जाय मेरेन बोवाळ आसतालो. चेडवां एके कडेन जाल्यार चेडे एके कडेन खेळटाले. केन्ना केन्ना सगळीं मिसळून

खेळटालीं. योहनाक हॉस्पीटलांत व्हेल्ल्यान सगळ्यांनी खेळपाचें सोडून दिलें. सगळ्यांच्या पोटाची भूक लेगीत गेल्ली.

'कोण आसात रे हांगा? बेगीन म्हजे मुखार येयात आनी कबूल करात कोणें दोंगराचेर उजो घाल्लो तो. हजारांनी लुकसाण केलां आनी लिपून बसल्यात. बेगीन भायर सरात ना जाल्यार आतांच पुलिसांक हाडटां आनी सगळ्यांक भितर उडयतां....' उरिल्लो फालेर भाटकार कपेला कडेन येवन बोवाळ मारूंक लागलो. पूण ताचो बोवाळ आयकूंक थंय कोणूच नासलो.

'भायर सरात रे.' आपल्या हातांत आशिल्लें रॉंत हालयत तो पिशांवर्री हांगा-थंय पासयो मारूंक लागलो.

'ना. ते आयकुपाचे नात. हांवें पुलिसांकूच हाडल्यार बरें.' ताणें आपले भितरूच म्हणलें आनी तो नेटान चलूंक लागलो.

थोड्या वेळान गांवचो पादविगार थंय आयलो. तो उजो लागला म्हणुनूच थंय आयिल्लो. पाद्रीक पळोवन कपेलांत लिपून बशिल्ले सगळे भुरगे भायर आयले.

'भुरग्यांनो, कसो आसा रे योहन आतां?' पाद्रीन विचारलें.

'वाड्यावयले सगळे हॉस्पीटलांत गेल्यात. आजून कांयच खबर येवंक ना.' मिलाग्रीन सांगलें.

'तुजो डॅडी गेल्लो आसा थंय?' पाद्रीन फिलीपाक विचारलें. तो पोवासांवांतल्या कितल्याच भुरग्यांक पोरशीं वळखतालो. कित्याक ह्याच वाड्यांतले चड वेदीसेवक इगर्जेंत वावुरताले.

हे खातीर पोवासांव हो नुवेंचो आवडीचो वाडो आसलो. इगेर्जेचें कसलेंय काम आसल्यार पयलो उलो पोवासांवाक वतालो. ते तितलेच उदारूय आसले. इगर्जेची कार्यावळ जांव, तिची दुरूस्ती आसल्यार हांगाच्यानूच आर्थीक पालव चड मेळटालो. देखून प्रत्येक पाद्रीक ह्या वाड्याची व्हडवीक आसली. ह्याच नात्यान पादविगार इगर्ज सोडून योहनाचे खबरेक आयिल्लो.

दुसरें म्हणल्यार योहन आयतारा भायर जायते फावटी मिसाक वचपी आनी इश्कॉलाच्या वेळार लेगीत इगर्जेंत आनी पाद्रीक आदार दिवपी. पास्कांची परब जाले उपरांत घराब्यांचेर

आशिर्वाद घालूंक वताले तेन्ना तो सुमानभर पाद्री बराबर वावुरतालो. अश्या भुरग्याचो मोग पाद्रीक आसतलोच न्हय?

पाद्रीन आपलो मोबायल काडलो आनी फिलीपाच्या बापायक फोन केलो.

'हांव तुमचो पादविगार उलयतां. कितें खबर आसा रे योहनाची?' पाद्रीन विचारलें.

'फादर, ताचें आंग खुबूच भाजलां. दोन फावटी बेशुध्द जालो तो. दोळ्यांचो रंग मुदार जाला. म्हाका जाल्यार कांयच समजना कितें जातलें तें.' फिलीपाच्या बापायन पाद्रीचेर भिरांत हाडली.

'देवाचेर भावार्थ दवरात. कोण दोतोर आसात हॉस्पीटलांत?'

'दोतोर न्होरोना पळयता ताका.'

'दोतोर ऍडी येवंक ना? तो व्हडलो दोतोर मरे?'

'आयज आयतार न्हय फादर? ते खातीर.'

'बरें.... हांव दोतोर ऍडी कडेन उलयतां.' पादविगारान फोन बंद केलो. आनी दोतोर ऍडीक फोन लायलो.

तो घराच आसलो. पाद्रीन घडिल्ली खबर ताका सांगली आनी मातशें योहनाक पळोवंक वचूंक विनवणी केली. तो तयार जालो.

'फादर, योहन बरो जातलो न्हय?' रडकुऱ्या तोंडान सॅनसिनीन विचारलें.

'तुमी कांयच भियेनाकात. ताका बरो करूंक देवा लागीं मागात.' पादविगारान तांकां भुजवण दिली.

इतल्यान पुलिसांचे गाडयेचो सायरन आयकूंक येवंक लागलो.

'म्हाक दिसता पुलीस येतात. तुमी थंयच कपेलांत लिपात.' म्हणीत पाद्री चलत मुखार गेलो आनी भुरगे कपेलांत लिपले. खरेंच फालेर भाटकार दोग जाण पुलिसांक घेवन आयिल्लो.

'हें योहनाचें घर.' ताणें योहनाच्या घरा मुखार रावून एका पुलिसाक सांगलें. पुलिसान

योहनाच्या दारार मारलें. दार उक्तेंच आसलें. ताणें तें उगडलें. घरांत कोणूच नासलो. मातसो मुखार वचून फालेरान एक-एका भुरग्याचें घर दाखयलें. पूण वाडो सारको खाली आसलो. पादविगार पासय काडून आयिल्ले सारको इगर्जेकडेन वचपाचें नाटक करूंक लागलो.



'आरे पाद्रीबाब, तूं येदोळ आयिल्लो, तो आजुनूय हांगाच आसा? हांगां तर कोणूच नात मरे.' फालेरान विगारा कडेन संवाद केलो.

'तुका खबर ना योहनाक उजो लागला आनी ताका हॉस्पीटलांत व्हेला म्हण? हांव ताचीच खबर घेवंक आयिल्लों.' पाद्रीन भिरांती विणें ताका सांगलें.

फालेराक अजाप जालें.

'तुज्या दोंगराक उजो घालप्याक हॉस्पीटलांत व्हेला जाल्यार आमी हांगा कितें करतात? चल हॉस्पीटलांत या ताचो सोद घेवंक. ते सगळे थंयच गेल्यात आसतले.' पुलिसांनी फालेराक सांगलें. ताचें म्हणणें ताका पटलें.

आनी फालेर पुलिसांक घेवन गेलो. तांचे फाटोफाट पाद्रीय गेलो.

# दुखी जीण

पुलिसांची जीप वतांच सॅनसिनी सावयो, जोकीं, जॉन, इतन, फिलीप, डॉमनीक, शेन आनी मिलाग्र ल्हवूच हात पांगरून कपेलाच्या ग्रिलांक धरून विचार करूंक लागले. योहनाक उजो लागला म्हण आर्दीच तांचेर कांपेरो आयिल्लो आनी फालेर भाटकार पुलिसांक घेवन आयिल्ल्यान भिरांत दुपेटीन वाडिल्ली. ते सारकेच आकांतून आसले. कितें करचें तें तांकां कळनासलें. माजोड्डेचो मोहन आयलो. ताका पळोवन सगळे कपेलांतल्यान भायर आयले.

'कितें जालें रे योहनाक?आतां कसो आसा तो?' मोहनान विचारलें.

'देवा कडेन मागपा शिवाय आमच्या हातांत कांयच ना.' डॉमनीकान जाप दिली.

'कसो म्हण भाजलो रे तो? सगळ्याक पावली ही खबर.'

'आमी बियांनी खेळूंक म्हण दोंगरार गेल्ले. आमचे कडेन एक फोगेटींचो माराण आसलो. एक-एक फोगेट पेटोवन आमी खेळूंक येवजिल्लें. एक फोगेट पेटोवन आमी माकडाक चाळोवंक सोदी, ते फोगेटीच्या उज्यान करडाक पेट घेतलो. योहन थंयच सांपडलो.' सॅनसिनीन सांगले.

'तुमी पळोवन आयले ताका?'

'ना. आमच्या वाड्या वयले सगळे जाण हॉस्पीटलांत गेल्ले आसात.' मोहन आनी सॅनसिनी मर्दी संवाद चालू आसतानाच सोहन आयलो. तो योहनाची खबर घेवंक लागलो.

'आकांताच्या वेळार आमी देवाक उलो करूंक जाय म्हण म्हजी अम्मा सांगता. ह्याच कपेलांत आमी योहना खातीर देवाक गाराणें घालुंया.' सोहनान तांकां मागणें करूंक प्रवृत्त केले.

'पूण तूं आमच्या केपलांत....?' सावयो वयर सकयल जालो.

'कपेल म्हणल्यार फक्त तुमच्या देवाचो जागो न्हय. तो सगळ्यां खातीर प्रार्थना करपाचो जागो. तुमी तुमचे भशेन प्रार्थना करात. हांव आमचे भशेन प्रार्थना करतां. सोहन आपले तरेन प्रार्थना करतलो.' मोहनान निधर्मीपणाची साक्षी दिली.



सगळे कपेलांत भितर सरले. सगळ्यांनी दिमी घाली आनी हात जोडून आप-आपले तरेन देवा कडेन मागूंक लागले. जॅनीफा, मिंगेलीन, पेरपेत, मिलाग्रीन, स्वीझल, ऍना, एकाच बराबर कपेलांत भितर सरलीं. तांणीय दिमी घाली. जॅनीफा मुखार सरलें आनी रातीं मागणें करूंक आयिल्ल्या लोकांच्यो उरिल्ल्यो वाती पेटयल्यो.

'मोगाळ जेजू, आमच्या इश्टाक बेगीन बरो कर आनी आमचे बराबर खेळूंक धाड. ताची कसलीच चूक नासताना ताका फारीकपण भोगचें पडलां. तो कसल्याय गुन्यांवाक सांपडला जाल्यार ताका भोगोस आनी सगळ्या पातकांतलो निवारून आमचे मदीं हाजीर कर. आमकां चड मागूंक कळना. पूण ह्या वाड्या वयलीं आमी सगळीं भुरगीं तुका उलो मारतात आनी योहनाक बरो करूंक प्रार्थीतात. आमेन.' जॅनीफान दोतोर्नीच्या वर्गांत करूंक शिकयल्लें एक ल्हानशें मागणें केलें. दुसरे वटेन सोहनान आपल्या बोल्सांतलो लेंस काडलो आनी तकलेक बांदलो. आपले हात दोळ्यांचेर दवरून तीन फावटी जमनीक तकली तेंकयली आनी आपले भशेन प्रार्थना केली. जाल्यार मोहनान एक वात आपल्या हातांत घेतली आनी दुसरो हात तिच्या धुंवरांचेर दवरलो.

'मोहन, हें तूं कितें करता.' जॅनीफान ताचो हात फाटीं काडलो.

'म्हजो इश्ट तो. थोड्याच तेंपाची आमची इश्टागत. ही इश्टागत आमी सारकी भोगूंक पासून ना. तर देव ताका आमचे पासून कसो व्हरपाक शकता. तो आमचे मदीं परतून येवंक आमी देवाक खुशाल करूंक जाय, आमचेच भेटेंतल्यान.' मोहनान सांगलें.

'हे तरेन देव खुशाल जाता?' सॅनसिनीन विचारलें.

'म्हाका आनीक दुसरो त्याग करूंक कळना. म्हजे कुडीक दंड दिवप हाचे परस व्हडलो त्याग ना, इतलेंच हांव जाणां.' ताणें परतून वातीचेर हात दवरपाचो यत्न केलो. सॅनसिनीन वातूच काडून घेतली.



'कितलो म्हण मोग रे तुका ताचो?' सॅनसिनीन मोहनाक घट्ट वेंगेंत घेतलो आनी रडूंक लागलो. तांचो हो अवतार पळोवन आनीक कितल्याच जाणांच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

कितलोच वेळ हीं सान भुरगीं आपणाचेर आयिल्ल्या दुख्खी खिणाचेर भासाभास करीत रावलीं.

# इश्टागतिचीं पाळां

दोन दीस जाले योहनाक हॉस्पीटलांत घालून. ताचें कांयच बरेपण दिसनासलें. दोतोर ताचे विशीं कितेंच सांगूंक तयार नासले. तो सगळ्यांक पळयतालो पूण ताच्या तोंडांतल्यान उतरां सुटनासलीं. कितें तें दोळेच उलयताले. हे खातीर पोवासांव वाडो सारकोच चिंतेस्त आसलो. वया वयलो भुरगो उज्याचे भकीक पडला म्हण कोणाकूच जेवण रुचनासलें. कितले जाण हॉस्पीटलाच्या दारांत आनी भायले वटेन रावून योहन बरो जावपाची वाट पळयताले.

फांत्या पार सुरू जाल्लो. कोणें तरी सॅनसिनीच्या दारार मारलें. तें ताच्या कानार पडलें. फाटले दोन दीस ताका सारकी न्हिदूच पडूंक नासली. सगळो वेळ तोच न्हय तर ताचे सगळे इश्ट लेगीत योहनाचेंच चिंतताले. योहन केन्ना काय बरो जावन घरा आयल्यार पुरो जाल्लें. सुटयेचे दीस आसून पासून तांचो खेळ थांबिल्लो आनी ते निराश जाल्ले. तांणी कितले फावटी देवा लागीं मागिल्लें तें तांकांच खबर ना.

तो खाटी वयल्यान उठलो आनी ताणें दार काडलें. फिलीप, जोकीं आनी डॉमनीक तांच्या दारांत उबे आसले.

'कितें जालां? इतले सकाळीं कसली खबर घेवन आयल्यात? नवो खेळ मांडून हाडला?' सॅनसिनीन तांकां सहज विचारलें. ते मान पोंदाक घालून ओगीच रावले. ते कांयच सांगना जाले. तितल्याक कोण तरी रडिल्ल्याचो आवाज येवंक लागलो. 'कोण रडटात ते थंय?' सॅनसिनी अदीक घुस्पलो.

'योहन.. योहन ..' फिलीपाच्या तोंडांतल्यान भायर सरलें.

'कितें जालें योहनाक?' फिलीपाच्या भुजांक धरीत सॅनसिनीन विचारलें.

'योहन आमकां सोडून गेलो सॅनसिनी..' ताणें ताका घट्ट धरीत सांगले आनी रडूंक लागलो. जोकीं आनी डॉमनीकूय तांकां वेंग मारून रडूंक लागले. मागीर वाड्या वयल्या लोकांच्या रडण्यांचे आवाज आयकूंक येवंक लागले. जॅनीफा, स्वीझल, पेरपेत, मिंगेलीन बी धांवून आयलीं. तींय रडटालीं. सवका-सवका पुराय वाडो रडूंक लागलो. सॅनसिनीच्यान

तो आवाज सोंसूंक जायना जालो आनी ताणें व्हडल्यान 'योहन' म्हण किळांच मारली. ताचे आवयन ताका घट्ट धरलो.

'कितें जालें बाबा? असो बोवाळ मारून कित्याक उठलो?' तिणें सॅनसिनीक विचारलें.

'मम्मी...... मम्मी... योहन .... योहन.... ' तो सगळोच घुस्पलो आनी असो तसो पळोवंक लागलो.

'योहनाक कितें जालां? कांयच जावंक ना ताका. आजून कोण येवंक ना हॉस्पीटलांत सावन. तो बरो आसा म्हण रार्ती ताची आवय सांगताली.' ती ताका समजावंक लागली.

'मागीर हांव.... तो फिलीप, जोकीं आनी डॉमनीक... आमच्या घराकडेन..'

'आमच्या घरा कडेन कोणूच येवंक नात. तूं सपनेला आसतलो. चल, आजून उजवाडूंक ना. न्हीद आतां.' ताचे तकले वयल्यान हात भोंवडायत ताचे आवयन सांगलें. सॅनसिनी खऱ्यानींच सपनेवन उठिल्लो.

'ना, म्हाका योहनाक पळोवंक जाय.'

'इतले बेगीन खंय रे?'

'म्हाका पळोवंक जाय न्ही? तुमी व्हरनात जाल्यार हांव एकलोच वतां चलत.' तो हट्टाक पेटलो.

'बाबा, हांव जाणां तुमी सगळीं ताचे खातीर दुखी जाल्लीं आसात म्हण. उजवाड जावंदी. तुका ताचे फुड्यांत व्हरून हाड म्हण तुज्या डॅडीक सांगतां.' तिणें ताचें मन वळयलें.

सुमार सात वरांचेर सॅनसिनीच्या डॅडीन आपले स्कुटरीचेर बसोवन ताका योहनाक पळोवपाक व्हेलो. आठ वरां उपरांत भितर वचूंक मेळना म्हण तो ताका बेगिनूच घेवन गेल्लो. योहनाक एका खास जाग्याचेर दवरिल्लो आनी थंय कोणाकूच सोडीनासले, पूण दोतोरा कडेन फावोर मागून, आपल्या पुताची परिस्थिती सांगून ताणें ताका भितर व्हेल्लो.

योहनाक पुराय एका पांजऱ्यांत घाल्ले सारको पांगरून दवरिल्लो आनी कोणूय पळोवंक येता ताका ताचें तोंडूच दिसतालें.

'ताका असो कित्याक दवरला?' सॅनसिनीन निशपाप प्रस्न केलो.



'ताचें आंग भाजून ताच्या पोटाच्यो बी काती गेल्यात. थंय सगळ्याक मलम आनी वखद लावन दवरलां.' ताच्या बापायन ताका सांगलें.

सॅनसिनीन ल्हवूच योहनाक हात लायलो. योहन ताका पळयतालो पूण कसलीच प्रतिक्रिया दाखयनासलो. कितलोच वेळ योहनाक हे अवस्थेंत पळोवन सॅनसिनीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां देंवलीं.

तो मोन्यांनी फाटीं सरलो. हॉस्पीटलाच्या दारांत एक व्हडलें कोंत्रेल आसलें आनी तांतूंत सगळ्या धर्मांच्या देवांच्यो मुर्ती आसल्यो. सॅनसिनी थंय आसलो आनी हात जोडून आपलेच भितर कितें तरी उलोवंक लागलो. घडये ताणें योहनाक बरो करूंक गाराणें घाल्लें. आनीक लोक थंय मागणें-रोजार करताले. थंय आशिल्ले पेरपेत सुकोर सायबिणीचे मुर्ती फुडलें एक फूल काडलें आनी तें घेवन परत योहना फुड्यांत गेलो. ताचो बापूय आजुनूय भितर आसलो आनी दोतोरा कडेन उलयतालो. सॅनसिनीन तें फूल योहनाच्या तोंडाचेर भोंवडायलें. तेन्ना मात योहनाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. तो ताका कितें तरी सांगूंक सोदतालो पूण ताका उतरां सुटनासलीं. तो रडटा तें पळोवन सॅनसिनीकूय रडूंक सुटलें.

# सांत आंतोनी कडेन खेळ

थोड्या वेळान सॅनसिनी बापाय बराबर घरा परतलो. पूण सगळ्यांक कपेला कडेन पळोवन थंयच देंवलो. वाड्या वयल्या सगळ्या भुरग्यांनी थारायलें योहन बरो जाय मेरेन सकाळीं येवन कपेला कडेन मागणें करूंक. तेच खातीर तीं जमिल्लीं. सॅनसिनी हॉस्पीटलांतल्यान परतला तें पळोवन सगळीं भुरगीं ताचे फुड्यांत जमा जालीं.

'कसो आसा योहन आतां?' कितल्याच जाणांनी ताका तोच प्रस्न केलो.

'योहन?' सॅनसिनीन एका वेगळ्याच सुरांत आवाज काडलो आनी सरळ कपेलांत भितर सरलो. भुरगीं ताचे फाटोफाट कपेलांत गेलीं.

'कितलो तेंप आमी आमचें भुरगेपण खेळून काडलें आनी आमचे सांगाता सदांच योहन आसतालो. पूण फाटले दोन दीस तो आमचे मदीं ना आनी आमी खळुंकूय नात. हाका तो,' कपेलांतले सांत आंतोनीचे मुर्तीक बोट दाखोवन, 'जबाबदार आसा. तो सगळ्यांक निवारता आनी ताच्यान योहनाक निवारूंक जायना? देखून आमी आज ताचे कडेन खेळ खेळुंया.' सॅनसिनीन एक वेगळेंच गणीत मांडलें. सगळीं भुरगीं ताका पळोवंकूच उरलीं.

'योहन म्हज्या जिवाभावाचो इश्ट. म्हजी म्हाकाच वळख नासली तेन्ना सावन हांव योहनाक वळखतां. तो आपल्याक उणें करून म्हाका दितालो. आपले बराबर खेळूंक व्हरूंक म्हज्या आवय-बापायच्यीं उलोवण्यीं खातालो. म्हाका मारल्यार ताका दुखतालें. अश्या म्हज्या इश्टाक ताणें,' मुर्तीक बोट दाखोवन, 'म्हजे पासून पयस दवरला. देखून हांव ताका,' मुर्तीक, 'आमचे बराबर खेळूंक आपयतां.' म्हणीत सॅनसिनी आल्ताराचेर चडलो आनी ताणें सांत आंतोनीची मुर्ती हातांत घेतली. 'आज तुवें एक तर म्हजे बराबर खेळचो पडटलो ना जाल्यार योहनाक आमचे फुड्यांत हाडचो पडटलो.' ताणें मुर्तीक उद्देशून म्हणलें.

'पूण सॅनसिनी, ती एक मुर्ती. ती आमचे बराबर कशी खेळूंक शकता?' मिलाग्रीन विचारलें.

'ती आमचे बराबर खेळूंक शकना जाल्यार ती हांव फोडून उडयतलों.' सॅनसिनीन रागान

म्हणलें आनी मुर्ती वयर उबारली.

'कसलीं पिशेपणां उलयता रे तूं सॅनसिनी? हाड ती मुर्ती म्हजे कडेन दी आनी तूं सकयल यो.' जॅनीफान ताका समजावपाचो यत्न केलो. तो आयकना जालो.

'आरे ती जाण्टेल्यांची मुर्ती, एक अरिश्ट तुमी मागून हाडलां आनी ही मुर्ती फोडून आनीक अरिश्ट हाडूंक सोदता? चल देंव सकयल.' जॉनीफान ताचेर अधिकार गाजयलो.

'बरें, हांव सकयल देंवतां पूण तुमी हांव सांगतां तशें करूंक जाय.' सॅनसिनीन सांगलें.

'बरें, ती मुर्ती थंय दवरून यो सकयल पयलीं.' फिलीपीन सांगलें. सॅनसिनी मुर्तीच घेवन सकयल देंवलो. ती मुर्ती सकयल दवरली.



'तुमी सगळीं अशीं भोंवतणीं बसात.' तो पयलीं बसलो आनी मागीर सगळीं बसलीं. 'हे मुर्ती मुखार दिमी मोडून आमी रोजार करतालीं आनी ह्या दोन दिसांत तर चडूच मागलां. पूण आमचें कोणेंच आयकलें ना. देखून ह्या सांत आंतोनीक आमी घेराव घाला. आतां तरी ताणें आमचें आयकुचेंच पडटलें.' सॅनसिनीन आपलीं पिशेपणां सांगलीं.

'बरें, आमी हांगाच बसून परतून एक फावट ताका प्रार्थना उबारुंया. जण एकलो दोळे बंद करून आपल्या मनांतूच मागात.' पेरपेतान हात जोडीत सांगलें. तशे सगळ्यांनी दोळे बंद केले आनी आपले भशेन प्रार्थना करूंक लागलीं.

दनपार जावन गेली. तांकां जेवणाचें लेगीत पडूंक नासलें. योहनाक देवान बेगीन बरो करचो ह्या थीर निश्चयान तीं आपलो एकवट सांबाळून आसलीं.

तीन वरांच्या सुमाराक योहनाचो बापूय हॉस्पीटलांतल्यान थंय पावलो. सगळ्या भुरग्यांक सांत आंतोनीचे मुर्ती भोंवतणीं पळोवन अजाप जालो.

'तुमकां सगळ्यांक योहनान आपयल्यांत. तो उलोवंक लागला.' ताणें भुरग्यांक सांगलें.

'खरेंच?' सगळ्यांनी एकाच बराबर विचारलें. तांकां आनंद जालो.

'हय भुरग्यांनो. ह्या सांत आंतोनीन तुमचें मागणें आयकलें आनी खेळाक लागून आयिल्लो वेळ ताणें निवारलो. आतांच दोतोरान सांगलां ताचे सवें एक विज्मीत घडलां आनी तें विज्मीत तुमचेच वरवीं घडलां. आतां तो हुसक्या भायर आसा आनी रोकडोच तुमचे बराबर खेळूंक शकतलो.'

'हुरेऽऽऽऽऽ.' सगळीं खुशालकायेन उबीं जालीं. सॅनसिनीन सांत आंतोनीचे मुर्तीचो उमो घेतलो आनी ती व्हरून आल्ताराचेर दवरली.

'आमी सगळीं कशीं वतलीं योहनाक पळोवंक?' शेनान विचारलें.

'ही पळय हांवें गाडी हाडल्या तुमकां सगळ्यांक व्हरूंक. चलात बेगीन.' योहनाच्या बापायचीं उतरां आयकून सगळीं संतोसभरीत जालीं. त्याच वेळार मोहन आनी सोहन थंय पावले. ते सयत सगळीं गाडयेंत बसूंक लागलीं.



आनीक थोड्या दिसांनी.......

योहन बरो जावन घरा आयलो आनी परतून एक फावट पोवासांव वाड्या वयलीं सगळीं भुरगीं उक्त्या जाग्या वयले नवे-नवे खेळ खेळूंक लागलीं.







# बरोवप्याची वळख



नांव : **विन्सी क्वाद्रूस**
शिकप : मास्टर ऑफ आर्ट्स पदवी (समाजशास्त्र)
हेर शिकप पत्रकारिता डिप्लॉमा
सचीवपद डिप्लॉमा
पवित्र पूस्तक अभ्यास डिप्लॉमा
संघटन आनी फुडारीपण डिप्लॉमा

## ताच्या पॅनांतल्यान निर्माण जाल्लीं पुस्तकां :

1. फुलदाणी
2. कुरपणो
3. सुख आनी दुख
4. घोंस
5. आत्मीक विचारधारा
6. तुरो
7. पोरसूं
8. मळो
9. आवाज-धन
10. कोंकणी चलचित्रां (लिप्यांतर)
11. जादुचें पेटूल (नागरी)
12. सुर्य-उदय
13. जादुचें पेटूल (रोमी)
14. कणसां
15. जिणेची वाट (लिप्यांतर)
16. गोंयचो मूळ आवाज (लिप्यांतर)
17. वर्स फुकट वचूंक ना (लिप्यांतर)
18. खेळ जालो वेळ (रोमी)
19. खेळ जालो वेळ (नागरी)
20. सुनामी सायमन (लिप्यांतर)
21. तोमाझीन्य कार्दोज - जिवीत आनी कार्य
22. ब्राझीन्य सुआरीस - जिवीत आनी कार्य